# नाट्यांगण



- एका लग्नाक सतरा विघ्नां
- आई बांदावयल्यान धांवली
- हांतरूण पळोवन पांय सोडूंक जाय !
- एलिसांव
- आपलेंय थोडें चिंतचें पापया !





ब्रॅन्डा मिनेझीस

# नाटच्यांगण

विनोदी नाटकुल्यांचो संग्रह

ब्रॅन्डा मिनेझीस







सिंडी पब्लिकेशन्स

केपें, गोंय

## नाट्यांगण

विनोदी नाटकुल्यांचो संग्रह

**ब्रॅन्डा मिनेझीस**

प्रकाश क्रं : २
पयली आवृत्ती : २००७



**छापपी :**
रुतू ऑफसॅट
वळवय, फोंडें, गोंय.

**मुखचित्र आनी भितरलीं चित्रां :**
गौरीश वेर्णेकार

**अक्षर जुळोवणी :**
श्रीगुरुकृपा टायपोग्राफिक्स,
एसओ - २८, 'बी' ब्लॉक (रियर)
बाबय कॉमर्स सेंटर,
मडगांव - गोंय.
फोन : २७१०२१९

**प्रकाशक :**
वॉल्टर मिनेझीस
सिंडी पब्लिकेशन्स
कुस्मण, केपें, गोंय.

**मोल : ३५/-**

## Natt'yangann

Collection of humorous one-act plays

**Brenda Menezes**

Publication no : 2
First Edition : 2007





**Printer :**
Rutu Offset
Volvoi, Ponda, Goa.

**Cover and Illustrations :**
Gaurish Vernekar

**Typesetting :**
Shreegurukrupa Typographics
SO-28, 'B' Block (Rear)
Baboy Commerce Centre
Margao - Goa.
Ph. No.: 2710219

**Publisher :**
Walter Menezes
Cindy Publications
Cusmane, Quepem, Goa.

Price : 35/-



---

हें पुस्तक गोवा कोंकणी अकादमीच्या 'पयलो चंवर' अर्थीक पालव येवजणेखाला छापलां.

पांच फुलां वाल

शिंपतां शिंपतां

वत आनी पावसांत

संघर्श केल्ल्या म्हज्या

सर्गेस्त आवय - बापायक...

ब्रॅन्डा

# मांडावळ

# इश्टिणीच्या नात्यान...

कोंकणी संस्कृतायेंत 'लोकनाट्याची' व्हड परंपरा आसा. जागर, रणमालें, दशावतार, फेळ सारके चार मुखेल नाट्यप्रकार गोंयच्या विंगड विंगड गांवांनी शेंकड्यांनी वर्सां सावन खेळिल्ले मेळटात. 'तियात्र' सारको गोंयच्या भौसामदीं अतिशय लोकप्रिय आशिल्लो प्रकार फाटल्या एका शेंकड्यासावन गोंयच्या तळा-गाळांत सादर जाल्लो दिसता. मात आधुनीक कोंकणी नाटकाची बुन्याद कोंकणीचे म्हापुरूस शणै गोंयबाब हांणी घातली. फ्रांसेस नाटककार मोलियर हांच्या 'Le Modecin Malgu Lui' ह्या नाटकावेल्यान तांणी 'मोगाचें लग्न' हें नाटक रचलें आनी विसाव्या शेंकड्याच्या सुमार चवथ्या दसकांत तांणी आधुनीक कोंकणी नाटकाची बुन्याद घातली. उपरांत तांणी मोलीयरच्याच एका नाटकावेल्यान 'पोवनाचें तपलें' हें नाटक रचलें आनी ते नंतर 'झिलबा राणो' हें नाटक बरयलें.

शणै गोंयबाबाकडल्यान स्फुर्त घेवन उपरांत आचार्य रामचंद्र शंकर नायक, पुंडलीक दांडो, रघुवीर नेवरेंकार, अ.ना. म्हांबरो, शांताराम हेदो, पुरुषोत्तम सिंगबाळ, रामकृष्ण जुवारकार, अशोक कामत, कृष्णा मोयो अशा कितक्यातरी जाणांनी नवीं नाटकां रचलीं वा दुसरे भाशेंतल्या नाटकांवेल्यान कोंकणी रुपांतरां केलीं. प्रकाश थळी हांणी तर कोंकणीक अणकारीत नाटकांची गडगंज ठेव दिली. जाल्यार, पुंडलीक नायक हांणी कोंकणींतल्या प्रायोगीक रंगभुमीची बुन्याद घातली. कोंकणी नाटक म्हणजे 'विनोदी नाटक', 'फार्स' असो जो कोंकणी नाटकाचेर छाप पडिल्लो तो तांणी पुसून काडलो आनी कोंकणी नाटकाक भारतीय रंगभुंयेचे पंगतीक

व्हरून बसयली.

कोंकणींत हेर साहित्य प्रकारांच्या मानान नाटकाचें दालन बरेंच रितें आसा, ही सत्य स्थिती आसली तरी फाटल्या पांच-स वर्सांसावन कोंकणी नाटकाक बरे दीस येवंक लागल्यात. जावं तीं मागीर प्रायोगीक नाटकां, जावं उत्सवीं नाटकां, जावं बालनाटकां वा जावं तियात्राच्यो संहिता! गोंयांत आज वेग-वेगळ्या प्रसंगांनी आनी माचयांनी नाटकां सादर जावंक लागल्यांत हें खरें. दत्ताराम बांबोळकार, राजय पवार, महेश नायक, राजू नायक, प्रकाश वजरीकर, प्रकाश पर्येकार हांचे सारक्या तरणाट्या नाटककारांच्या नाटकांचीं पुस्तकां आतां एका फाटल्यान एक अशीं छापून येवंक लागल्यांत हिवूय गजाल तितलीच खरी!

एक कोंकणी लेखिका आनी कोंकणी साहित्याची एक जागृत 'निरीक्षक' हे भुमिकेंतल्यान कोंकणी नाटकाची ही उदरगतीची वाटचाल नियाळटना एक उणीव सदांच म्हज्या मनाक भासता आनी ती म्हळ्यार नाटक निर्मितीच्या ह्या वावरांत कोंकणी बायल खूबच फाटीं आसा. ना म्हणूंक, माया खरंगटे, नयना आडारकार, ज्योती कुंकळकार, प्रशांती तळपणकार, सुरंगा मडकयकार हांव स्वतां हांणी ल्हान-ल्हान नाटकुलीं आनी बालनाटकां रचपाचो यत्न केला, पूण तांणी 'नाटक' हो विशय गंभीरपणान घेतिल्लो ना! आपल्या कर्तृत्वान, साहित्याच्या हेर प्रकारांत आपलें 'स्थान' निर्माण करपी कोंकणी लेखिका नाटकाच्या प्रकारांत फाटीं कित्याक, हो खरो सामाजिक अभ्यासाचो आनी एका परिसंवादाचो विशय. मात हे फाटभुंयेचेर ब्रॅन्डा मिनेझीस हांचें पांच नाटकुल्यांचें पुस्तक येता ही अतिशय खोशयेची आनी तोखणायेची गजाल.

ब्रॅन्डा खरें म्हजी इश्टीण. ब्रॅन्डा कुस्मण - केपेंचें, जाल्यार हांव आमोणें - केपेंचें. ताची म्हजी वळख आमी गार्डीयन एंजलांत, हायरसेकेंडरी करतना जाली. तें कॉमर्साचें स्टुडंट जाल्यार हांव आर्टसाचें. पूण ताच्या खेळकर, हांसत्या आनी सगळ्याकडेन मेळून-मिसळून वागपाच्या सभावाक लागून म्हजी आनी ताची नकळत इश्टागत जाली. हायरसेकेंडरी उपरांत तें दामोदर कॉलेजींत गेलें आनी हांव चौगुलेंत. एक दोन-तीन वर्सां आमचें

मेळप जालेंना, पूण ग्रॅज्युएशना उपरांत तें रोकडेंच कोंकणी बरोवपी आनी कोंकणीचो कार्यकर्तो आशिल्ल्या बाब वॉल्टर मिनेझीसाकडेन लग्न जालें आनी ताका लागून ब्रॅन्डाची आनी म्हजी इश्टागत खूबच दाट जाली.

ब्रॅन्डा कोंकणीच्या कार्यावळींक येवपी आनी भाग घेवपी. वॉल्टर आनी तें स्वता कार्यावळी आयोजीत करपी. हेमा नायक आयोजीत 'चित्रंगी'च्या मेळ्याव्यांनीय तें वांटो घेतालें. तें एक बरें सुत्रसंचालक. ब्रॅन्डाकडेन कांय खाशेले गूण आसात त्या मदलो एक म्हळ्यार, ताचेकडेन 'Presentation skill' आसा, ताका लागून तें मुखावयल्या मनशाचेर आपली नकळत छाप घालता. आपल्या आंगांतल्या ह्या गुणावरवींच ब्रॅन्डा नाटक वा नाटकुलें लेखन ह्या प्रकाराकडेन पावलें. स्कुलां-कॉलेजींच्या गॅदरींगांनी तशेंच केपेंच्या पॅरीस चर्चीच्या सांस्कृतिक कार्यावळींनी ताणें वांटो घेतला आनी गरज तेन्ना हे कार्यावळींखातीर नाटकुलीं बरोवन दिल्यात. ताणें बरयिल्ल्या जायत्या नाटकुल्यां मदलीं आज वट्ट पांच नाटकुलीं 'नाट्यांगण' ह्या पुस्तकरूपान उजवाडाक येतात.

हांतल्या पांचूय नाटकांचो विशेशगूण म्हळ्यार हीं नाटकुलीं विनोदी स्वरूपाचीं आसात. 'कोंकणी नाटकां म्हणजे विनोद', अशें जरी एकातेंपार म्हणून ताचेकडेन बोट दाखयिल्लें आसलें तरी शाळा - कॉलेजींच्या वा तशे तरेच्या कार्यावळींनी सादर करतल्या नाटकांनी विनोद जायच. विनोदी नाटक आसत तर अशा कार्यावळींनी तांकां उस्फूर्त प्रतिसाद मेळटा. नाटकाचें नांव, संवाद, पात्रां, प्रसंग हे वरवीं ब्रॅन्डान आपल्या नाटकुल्यांनी विनोद निर्माण करपाचो यत्न केला, ताका लागून हीं नाटकां जंय सादर जालीं थंयच्या प्रेक्षकांनी तीं उखलून घेतल्यांत.

ह्या नाटकुल्यांचे विशय तशे सादे. 'एका लग्नाक सतरा विघ्नां' हातूंत वय वाडिल्ल्या किरणाच्या लग्नाक येवपी तरां-तरांचीं विघ्नां, 'आई बांदावयल्यान धांवली' हातूंत आईक, म्हणजे घरचे बायलेक करपाक लागपी संवसारीक तडजोड, 'हांथरूण पळोवन पांय सोडूंक जाय' हातूंत भयणीच्या लग्नाक तिका अहेर करूंक आनी भुरग्यांक कपडे शिवूंक पयशे नाशिल्ल्यान, तें लग्न मुखार धुकलतकच आईक जातलो आनंद, 'एलिसांव'

हातूंत वेंचणुकेक उबो रावित्या एकट्यातरी उमेदवाराचें दिल्ल्या उतराक जागप आनी 'आपलेंय थोडें चिंतचें पापया!' हातूंत रिटायर्ड जातकच आपले गांठीक थोडे पयशे सांबाळून दवरूंक जाय अशी शंभूक जाल्ली जाणीव, अशें कथानक आसा. आपले मिस्कील शैलीन प्रेक्षकांक हांसयता हांसयता ब्रॅन्डान सामाजिक प्रश्नांकय हात घातला.

ब्रॅन्डाचीं हीं नाटकुलीं, हे आदीं केपें परिसरांत स्टेज तर जाल्यांतच, पूण आतां पुस्तक रुपान येतकच गोंयच्या हेर वाठारांतल्या शाळा - कॉलेजींनी आनी हेर सांस्कृतीक कार्यावळींनी सादर जातली हाची म्हाका खात्री आसा.

ब्रॅन्डाक ताच्या घरच्यांचें पाठबळ तर आसाच, शिवाय ताचे मदीं उमेद आनी जिद आसा. हें ताचें पयलेंच पुस्तक, तें ताका आनीक आनीक नाटकुलींच बरोवंकच न्हय, तर स्वतंत्र अशें नाटक बरोवंक उर्बा दितलें अशीच आस्त प्रगटायतां.

**डॉ. जयंती नायक**

आमोणें, केपें, गोंय

ता : २०/०१/२००७

# म्हज्या मनांतलें...

'पॅरीश यूथ ऑफ केपें' हे युवा संस्थेन, १९८१ वर्सा नातालांची कार्यावळ मोठे उमेदीन आनी व्हडा प्रमाणात आयोजीत केल्ली. कार्यावळीचो भार, आमी कांय तरणाट्यांनी वांटून घेतिल्लो. सुमानभर चलपी हे कार्यावळीचो आराखडो तयार जाल्लो. दर दिसा एक-एक सर्त. समारोप सुवाळ्याक भौवशीक कार्यावळ, वेशभूशा सर्त तशेंच लॉटरिचो निकाल.

आमच्या केपेंच्या गांवचे रिबेलो भाव, जुजे - कुपेर्तीन - दामासयान, आपल्या बापायबशेन बरे गायक, नट आनी कलाकार, खूप उमेदी. हांवें तांकां म्हळें, "एक नाटकुलें बसोवंक जाय आशिल्लें न्ही?" तांचे बरोबर तियोफ्लीस ऑझारियो आशिल्लो. मोठोच कॉमीक! ताणें म्हळें, "तूं नाटकुलें बरय मगो. करूंया एक्टींग." हांवें ताका नांव सुचय म्हूण सांगतांच ताणें "आई बांदावयल्यान धांवली" अशें नांव सुचयलें. केपेंच्या बांदा लागसार जुजे, कुपर्तीन, दामासयान आनी तियोफ्लीस हांचो राबितो. तियोफ्लीस सहज उलोवन गेलो. हेवटेन, म्हजें मन, कितें आनी कशें बरोवचें ह्या चिंतनानी अस्वस्थ जालें. आई कित्याक बांदार धांवतली? असो प्रस्न हांवें म्हाकाच केलो. भुरग्यांच्या मस्तेपणांक आनी घुडमेळाक लागून, तशेंच घरचे अर्थीक परिस्थितीक लागून ती बांदार जीव दिवंक वता अशें कथानक रचून "आई बांदावयल्यान धांवली" ही म्हजी पयली वयली विनोदी एकांकिका जल्माक आयली.

आमी घरांत पांच भावंडां. घरांत खवदळ घालतालीं. खाणांकडेन झगडटालीं. एकामेकांक चाळोवन आनी मारून आवयक त्रास दितालीं.



ह्या अणभवाचो साठो म्हजेकडेन आशिल्लोच. तातूंत, रिबेलो भाव आनी तियोफ्लीस, सगलेच विनोदी आनी हुशार. तांकांच दोळ्यांमुखार दवरून पात्रां रचलीं आनी संवाद जुळयले. मुखेल पात्र 'आई'. ह्या पात्राक योग्य कोण मेळत? मोठो प्रस्न! सट्‌करून विरा पिंटोचें मुखामळ (आतां फॅर्नांडीस) दोळ्यांमुखार आयलें. जुजे, कुपेर्तीन, दामासयान, तियोफ्लीस आनी विरा हांचो मेळ खूपच बरो जालो. आमचें नाटकुलें खूप रंगलें. देवनागरींतल्यान केल्लो हो पयलोच प्रयोग, तांचे कसवटेन येशस्वी जालो. आनी उपरांत, दर वर्सा नातालांची कार्यावळ सोबोवंक एक एक नाटकुलें बरयलें. मागीर, घरकाम आनी नोकरेचो ताळमेळ सांबाळटां-सांबाळटां लेखणी थांबली. जांकां खबर आशिल्ली, तांणीं हीं नाटकुलीं केपेंच्या आनी भोंवतणच्या वाठारांतल्या शाळांनी आपल्या वर्सुकी सुवाळ्यांत सादर केलीं.

सिंड्रॅला आनी डेल, ह्या म्हज्या दोनूय भुरग्यांक ल्हानाचीं व्हड करतां म्हणसर म्हज्या नाटकुल्यांचीं हातबरपां जळीं मळीं पडलीं. कोणें व्हेल्लीं, तीं परतीं दिलीं काय ना हाचोय हिशोब दवरलो ना. नाटकुलीं नीट बरोवन काडून तीं सांबाळून दवरपाचो म्हज्या घरकारान केल्लो उपदेश हांवें मनार घेतलो ना. 'पयलो चंवर' येवजणेखाला नाटकुलीं गोवा कोंकणी अकादेमीक धाडपाचीय तांची सुचोवणी हांवें खुंट्याक लायली. तरूय पुस्तक छापपाची गजाल ते अदीं मदीं काडटाले. मनांत दिसतालेंय, धाडून पळोवया. तांची सुचोवणी मानून घेवया. पूण म्हजो म्हजेरूच विस्वास नाशिल्लो. मनांत दिसतालें, हीं कसलीं नाटकुलीं? १८ - १९ वर्सांचे भुरगे पिरायेर, भुरग्यांखातीर बरयल्लीं, भुरगेपणांशीं! म्हाका धाडस जालें ना आनी आळशीपणानूय फाटीं ओडलें. घरकारान म्हाका सांगपाचेंय बंद केलें.

एका दिसा, सुनापरान्त दिसाळ्याचेर 'पयलो चंवर' येवजेणेखाला हातबरपां अकादेमीक धाडून दिवपाची कळोवणी वाचली आनी अकस्मात म्हजी नाटकुलीं गोवा कोंकणी अकादेमीक धाडपाचें वेध म्हाका लागलें. हांवें पेपर घरकाराक दाखयत म्हळें, ''कितें करूं? धाडून पळोवया?'' तेय खूश जाले. तांच्या प्रोत्साहना आनी आग्र्या बगर म्हाका धीर जांवचोच

नाशिल्लो. हेवटेन तेवटेन पडिल्लीं तीं हातबरपां एकठावन नीट बरोवन काडलीं आनी गोवा कोंकणी अकादेमीक धाडून दिलीं. आनी अकादेमीन तीं मानूनय घेतलीं.

जेन्ना जेन्ना आमी नाटकुलीं सादर केलीं तेन्ना ताळयो खूप जोडल्यो. त्या वेळार टी.व्ही. प्रोग्राम आनी हेर दुसऱ्यो मनरिजवण्यो कार्यावळी तितल्यो लोकप्रिय जावंक नाशिल्ल्यो. म्हणून हीं नाटकुलीं तेन्नाच्या रसिकांक भावलीं जायत. 'Laughter challenge' सारक्या हालीसरांतल्या कॉमेडी शो कडेन तुळा केल्यार हीं नाटकुलीं आतांचे पिळगेक मानतलीं काय ना असो प्रस्न उबो रावता.

ह्या नाटकुल्यांतले चडशे संवाद हांवें म्हज्या आवयबापायकडल्यान, इश्ट मित्र आनी सरभोंवतणच्या मनशांकडल्यान पुंजायल्यात. ''आई बांदावयल्यान धांवली'', हातूंत चित्रायल्ले चडशे प्रसंग आमचेच जिणेंत घडिल्ले. आई जीव दिवंक वता हो प्रसंग सोडल्यार हेर संवगां आमचींच. आमकां पांच जाणांक खावयता, जेवयता आनी न्हाणयता म्हणसर आमचे मम्मीक नाका पुरो जातालें. कितलीय मस्ती आमी केली तरी, तिणें बऱ्या शब्दांनीं आनी आपले चाली रितीन आमकां बरी देख शिकयली. केन्नाय ती आमकां तापयताली. केन्नाय आमकां समजायताली. तिची एकूच मुख्य ख्यास्त म्हळ्यार, आमकां दिमी घालून दवरप. आमकां खूप लज जाताली. शेजारचीं भुरगीं येवन आमचो तमाशा पळयतालीं. तिचें ध्यान-मन फक्त आमचेरूच आसतालें. आमच्या खावपा-पिवपाकडेन, अभ्यासाचेर तशेंच आमच्या पुस्तकांचेर तिचें लक्ष आसतालें. आमी गुणी-सुखी जांवचीं हे नदरेन, आपल्या सूख - मौजेचो तिणें त्याग केलो. घोव आनी भुरग्याबाळांक कशीं मोगान शिंपचीं, तांची जतनाय कशी घेवंची आनी संवसार कसो बसोवचो हें आपल्या साद्या सरळ जिवनांतल्यान आमकां तिणें शिकयलें. कुटुंबांतल्या हेर वांगड्यांकडेन आनी शेजार-सामाऱ्यांकडेन वागपाचो धडोय आपले दिसपट्टे वागणुकेंतल्यान आमकां शिकयलो.

म्हजे 'डॅडी' सभ्य, सरळ, शिस्ती आनी ध्येयवादी. तांच्या काळांतले, तेय एक बरे कलाकार. एकटोच जोडकार जाल्ल्यान सगल्योच सूख-

सोयी तांच्यान आमकां दिवंक जाल्योना. तांचो शिक्षणाचेर खर विस्वास! आमी खूप शिकचें, वयल्यो तेंगश्यो गांठच्यो आनी बरे नागरीक जावंचीं ही तांची धडपड. जेवणाखाणाचो आनी शिक्षणाचो खर्च तांणी केन्नाच कमी केलोना. आमी नवीन कपड्यांक रडटालीं, दुसरीं भुरगीं घालतात तसलीं तरेकवार फॅन्सी चप्पलां आनी बूट मागतालीं. क्यूटेक्स - लिपस्टीक मागतालीं. हाचेर मात तांचो विरोध. ह्या मुद्द्याचेर तांचो उपदेश - ''चड कपडे आनी फॅशनी नाका. तुमचें जिवीत तुमी बऱ्या शिक्षणान, बरे वागणुकेन आनी बऱ्या रितीरिवाजांनी नटयात. लोकप्रिय जायात. बरीं न्हेसातूच. कपडे पोरणे आनी पिंजके आसूं, पूण ते नितळ आसूंक जाय. अडेचो खर्च नाका. निसर्गान तुमकां दिलां तें रुप आनी रंग सांबाळात. ह्यो नकली तरा तुमची कात आनी रुपभेस नश्ट करतल्यो. खूप शिकात. व्हड जायात. नाच आनी मौज फुडाराक खूप मेळटली. हो काळ शिकपाचो. त्या त्या काळार, त्यो त्यो वस्तू करप गरजेच्यो. कसल्याय वावराक कमी मानूं नाकात. खंयच्याय मनशाक उणाक मानूं नाकात. सोबसारकोच मान सगल्यांक दिवन हांसत खेळत तुमची जीण जगात.''

आयज हांव आवय जालां. म्हजीं भुरगीं वाडल्यांत. 'डॅडीचे' ते जाणवायेन भरिल्ले भांगरा शब्द म्हज्या कानांत गुणगुणटात. मम्मीचें ते देखदिणें, गुणी जिवीत, दिपस्तंभ कसो उजू मार्ग दाखयत, म्हाका वळणार हाडपाचो प्रयत्न करता. हे तांचे शिकवणेंतल्यान 'हांथरूण पळोवन पांय सोडूंक जाय' हें नाटकुलें रचलें. काल्पनीक तरेन पात्रां मांडलीं. भुरग्यांचेर बरे संस्कार विनोदी माध्यमांतल्यान जांवचे आनी नकळत तांचो प्रसार जावन भुरग्यांच्या कवळ्या मनांचेर तांचो प्रभाव पडचो हो म्हजो तेन्नाचो हेतू. तो कितलो फळादीक जाला वो जातलो तें हांव नकळो. पूण म्हजे वतीन एक प्रयत्न केलो. 'एका लग्नाक सतरा विघ्नां', हेंय विनोदी नाटकुलें बऱ्याच जाग्यांनी गाजलें. आकाशवाणीचेर लेगीत तें प्रसारीत जालें. उरिल्लीं - 'एलिसांव' आनी 'आपलेंय थोडें चिंतचें पापया' ही नाटकुलीं हालींचीं. तांचे चड प्रयोग जावंक नात.

बरोवपाची उमळशीक आनी उत्तेजन म्हाका दिसता म्हजे मामा, सर्गेस्त

डायगो मार्कूस फॅर्नांडीस हांचे कडल्यान म्हाका मेळ्ळें. म्हज्या भुरगेपणांतल्यो सुटयो मामागेर सरताल्यो. म्हजें आजोळ एक कुळागरूच म्हळ्यार जाता. 'पेरींत' म्हळ्यार कान्यामड्डी, कुडचड्यार तें फामाद. व्हड घर. सरभोंवतणी व्हड वाडो. सगल्या तरेचीं फळझाडां. थंय आंबे, काजी, जांबळां, पेरां, बोरां, तोरांज्यां, चिकू, जाम, मोसंबी, बिमलां, करमलां, भिंडां, कॉफीचीं दोन झाडां आनी कितलीशींच फुलझाडां. त्या भायर माजरां, सुणीं, कोंबयो, बदकां, कीर, साळोरी आनी तशेंच ह्या मेळाव्यांत 'Guineas fowl' ह्याय सवण्याचो आसपाव आसतालो. मावशी-मामांचो उपाट मोग आनी अपुर्बाय म्हाका मेळ्ळी.

म्हजे मामा, सर्गेस्त डायगो, एक कवी. व्यवसायान ते गार्डन एंजल हायस्कूलांत शिक्षक आशिल्ले. तांच्या, 'गोंय म्हजें हांसता!' ह्या कविता झेल्याक कोंकणी भाशा मंडळाचो पुरस्कार फावो जाल्लो. तांचे कुडींत खूप कोंकणी आनी इंग्लीश पुस्तकां आसतालीं. हांव चड करून कोंकणी पुस्तकांचेर ताव मारतालें. 'रेंवेंतलीं पावलां', 'सुपुल्लो काणयां पांटुलो', 'दोंगर चंवरला', 'जायात जागे' हीं पुस्तकां म्हज्या मनांत ताजीं आसात.

म्हजे धाकटे मामा, श्री. जुजे कायतान फॅर्नांडीस, मिरेकल्स हायस्कूल, सांगें, शाळेंतले रिटायर्ड पी.टी. टिचर. तेन्नाचे ते बरे तियात्रीस्त. तांणी खूप तियात्र बरोवन, सांवड्ड्या कपेलांच्या फेस्तांनी सादर केल्ले. हालींच, 'संकल्प थियेटर्स' हे संस्थेचे वतीन तांचो सत्कार जाला. चडशे तांचे तियात्र मे मयन्यांत जाताले. सुटी पडटांच हांव मामागेर धांव घेतालें. तांच्यो सगल्यो येसायो पळोवंक मेळटाल्यो. आनी थंयच, दोनूय म्हज्या मामांकडल्यान प्रेरणा मेळून आनी आजोळच्या त्या भरभरीत मायेस्त सैमाचो प्रभाव पडून, म्हज्या मनभुंयेचेर बरोवपाचें बीं किल्ललें जायत.

मुळावें शिक्षण मराठी माध्यमांतल्यान दिवंचो, म्हज्या 'डॅडीचो' शाणेपणाचो निर्णय म्हाका खूप फायद्याक पडलो. मराठी शिकिल्ल्यान, देवनागरी लिपयेचें ज्ञान म्हाका मेळ्ळें. केपें, सरकारी मुळावे शाळेंत शिकिल्ल्यान म्हाका हिंदू इश्ट इश्टिणींचो आनी तांच्या घरच्यांचो सांगात मेळून तांच्या रिती रिवाजांकडेन म्हजो संबंद आयलो. म्हज्या लेखनाक पोशण मेळ्ळें

अशें हांव मनांतल्यान मानतां.

बाल साहित्यांत पावल घालपाची म्हजी इत्सा खूप पयलींची. पूण प्रयत्न केलोना. सुनापरान्त दिसाळ्यांत, आयताराच्या अंकांत, आत्र्यापयऱ्यान 'काणुली' बरोवन हालींच पावल उखल्लां. जें मनांत आसा तें केन्ना फळादीक जातलें, तें हांव सांगूक शकना. पूण करतलें हें नक्की.

जेन्ना अकादेमीक म्हजीं नाटकुली धाडपाचीं थारलीं, तेन्ना तीं धाडटना तांतूत शुद्धलेखनाच्यो चुको आसच्यो न्ही हें जाणवलें. कोणाकडेन वचचें? पयलेच मनीस दोळ्यांमुखार आयले, ते म्हळ्यार 'दिलीप सर'. न्यू एडूकेशनल इन्स्टिटय़ूट, कुडचडें, शाळेंतले ते कोंकणी शिक्षक. तांणी हीं नाटकुलीं चुको काडून सुदारलीं. वेळांत वेळ काडून म्हजें उतर आयकलें आनी म्हाका उपकारांत दवरलें.

गोवा कोंकणी अकादेमीच्या संपादकीय मंडळाचे एक वांगडी श्री. प्रकाश पर्येकार हांणी नमळायेच्या शब्दांनी लेखनांतल्यो चुको दाखोवन त्यो सुदारूंक मोलादीक सुचोवण्यो केल्यो. तशेंच म्हजे भाशेची तुस्त करून म्हाका प्रोत्साहन दिलें. म्हाका आत्मविस्वास मेळ्ळो. हांव तांचें, खूब खूब उपकारी.

''देवनागरी टायपींग कोण करता?'' हो प्रस्न भाशा मंडळांतल्या सुचिता बायक केलो तेन्ना, ताणें प्रसादबाब असोळडेकारांचें नांव सुचयलें. फोन नंबरूय दिलो. प्रसाद बाबाक फोन करतांच उमेदीन म्हाका तांणी हयकार दिलो. म्हज्या नाटकुल्यांची योग्य तरेन अक्षर जुळोवणी करून, वेळार पुस्तक छापपाक आदार दिलो. तांचेय उपकार मानलेबगर रावंक जायना.

डॉ. जयंती नायक, आमच्या गांवचें. म्हजे बरोबरचें, आकांताचें बरोवपी आनी साहित्यीक मानकरी. पुस्तकाची प्रस्तावना तिणें बरोवची अशें मनापासून दिसलें. जेन्ना हांवें म्हजें मन तिका उक्तायलें, तेन्ना फाटीं फुडें पळयनासतना 'हय' म्हणून म्हजो भार ल्हव केलो. आपल्या कामांत तिका फुरसत मेळना, तरूय म्हजी इत्सा पुराय केली. जयंतीबायक देव बरें करूं म्हणटां.

रूतू ऑफसेटचे बाब हिरू नायकान पुस्तक छापपाची जबाबदारी घेतली आनी भेस बरें, नितळ निवळ प्रिंटींग केलें. मुखचित्र तशेंच भितरलीं चित्रां सोबीत तरेन काडून, बाब गौरीश वेर्णेकरान पुस्तकाची सोबाय वाडयली. तांकां दोगांयकूय म्हजे दिनवास.

हें पुस्तक हांवें म्हज्या आवय बापायक ओंपलां. आयज तांचो ४५वो लग्ना वर्सुकी दीस. ४० वर्सांच्या तांच्या एकवटीत लग्ना जिणेंत, तांचे मदीं कितलींशींच तुफानां आयिल्लीं जायत. कितलेच वाद-विवाद जाल्ले जायत. पूण केन्नाच तांची सुलूस आमकां भुरग्यांक लागूंक दिली ना. आमचे नदरेमुखार तीं सदांच एक. आमी पांचूय चलयो म्हूण खूप फावट 'डॅडीक' दुसऱ्यांकडल्यान थोमणे आयकुंचे पडटाले. पूण ते मनाक लावन घेना आशिल्ले. तांणी आमकां चलयांबशेन वागयलीं नात. पूत ना हाची खंत घेवन तीं दोगांय रावलीं नात. उरफाटें, जें पुतांक करपाचें, तितलेंय आमकां धुवांक केलें. ह्या संवसारांत ती जगताना, तांचे हुंटयेंत, हें पुस्तक घालूंक हांव शकलेंना. तांच्या आत्म्यांक शांती मागून ह्या पुस्तकान तांकां श्रद्धांजली ओंपतां.

गोवा कोंकणी अकादेमीन 'पयलो चंवर' येवजणे खाला दिल्ल्या अनुदान रुपी प्रोत्साहना खातीर हांव सदांच तांच्या रिणांत रावतलें. आनी हे येवजणे फाटलो अकादेमीचो हेतू - लेखन चालूच उरचें, तें ह्या पुस्तकापुरतेंच मर्यादीत उरचें न्हय, हाची दखल घेवन म्हजें दुसरें पुस्तक प्रकाशीत करूंक प्रयत्न करतलें, अशी ह्या वेळार भास दितां.

निमाणेकडेन, तुमकां सगल्यां वाचकांक आनी हेरांक जांणी हें पुस्तक उजवाडांवक आदार दिला, तांकां देव बरें करूं म्हणटां.

**ब्रॅन्डा मिनेझीस**

कुस्मण, केपें, गोंय

# एका लग्नाक सतरा विघ्नां

**पात्रां**

व्हनीबाय

किरण

शाणूबाब

नारायण

सुनील

दामू

चोंचरो

## देखाव पयलो

(व्हनीबायलें घर. किरण, तीस बत्तीस पिरायेचें चली, रेडियो लावन पदां आयकता. थोड्या वेळान हात पुशीत णववारी साडी न्हेसिल्ली व्हनीबाय भितर सरता.)

व्हनीबाय : उजो लाय व्हरून त्या रेडियोक! कान सामके फुटूंक पावले. दीस रात तीं पदां आयकप. आगो तुवें चिंतलां कितें? जिवितभर आंकवार रावंक? कितल्यो सोयरिको हाडल्यो तुका. पाड पडिल्ल्याक एकूय मानवली ना. काय बरो तो भिकूलो चलो! दिसपाक सुंदर, नोकरी बरी, भरिल्लें घर दार, सामको मालदार! तुवें ताका नाकारलो. मागीर पणजेच्या शिरवंताल्या चल्याक तुवें ना म्हळें. ह्यो दारांत आयिल्ल्यो सोयरिको मोडून-मोडून शेवटीं तुज्या गळ्यांत कसलो फातर पडटलो तें हांव नकळो.

किरण : (लाग करून) आई!!... लग्न म्हळ्यार कितें खेळ गे? म्हाका पसंत पडूंक ना म्हणून हांवें नाकारल्यो त्यो सोयरिको. नाजाल्यार, मागीर कोण ओडीत घेवन भोंवतलें तांकां, जड जाल्लें हँडबॅग शें?

व्हनीबाय : पुरो - पुरो, चड जालें तुजें. तूं म्हाका शिकयता? तूं म्हगेर जालां, आनी न्हय हांव तुगेर (तापून) समजलें? एकदम हट्टी पोर! आपलेंच खरें करपी. हें पळय, आनीक आनी म्हज्यान सोंसूंक नज. पासिंयेंस सामकें पिड्ड्यार जालां. आतां कुड्डो सुद्धां आयलो जाल्यार, तुका लग्न करून सोडप.

किरण : आई! आई! वगी राव गे. कितें अभद्र उलयता गे. कुड्डो जांवय आवडटलो तुमकां? सायबिणी तूंच राख गे म्हाका!

(दार खटखटायिल्याचो आवाज, किरण भियेता)

व्हनीबाय : कोण थंय, यो भितर. दार उघडेंच आसा.

(किरण भितर वता. पुडवें, कोट आनी तोपी घालून शाणूबाब येता.)

कोण? शाणूबाब रे? यो यो. तुजीच वाट पळयतालीं हांव ह्या दिसांनी. म्हाका दिसलें, तूं पावलो म्हणून दुबय. थंय सोयरिको जुळोवपाक. हे चलयेक लागून जीव सामको गळ्यांत पावला.

शाणूबाब : व्हनीबाय, तुजी चली तर कोणाकूच पसंत करिना. खंयची अप्सरा, खंयच्या सर्गावयल्यान देंवल्या म्हणून देव जाणां. कसलें किटकिटें पोर गे तें? तरी बरें, तुजो जीव गळ्यांतूच पावून. नाजाल्यार, ही चली, आपल्या ह्या किटकिटांनी तुजो जीव तुज्या हातार दिवंक कमी ना!

व्हनीबाय : सारको उलयलो तूं शाणूबाब! (म्हऱ्यांत वचून) आनीक कोणूय नदरेक पडला तुज्या? महामाये! हे फावट तरी म्हजे चलयेचें लग्न खंयी जुळोवन दी. ताचे बरोबरच्यो सोड, पूण ताचेवून ल्हान चलयो लग्न जावन सुखान आपलो संवसार चलयतात. आनी ह्या आमच्या पोराक कोण हिरो जाय, देव जाणा!

शाणूबाब : आगे, आतां तूंच बडबडटली, काय म्हाकाय दितली उलोवंक? तुमकां बायलांक एक पाडपडिल्ली वायट सवंय. उलोवंक जर तुमी एक फावट तोंड उगडीत, तर जसो हॉटेलांतलो रांदपी कांदो शिंदता, तशी तुमी खबरो फोडीत वतात. यम सुद्दां तुमकां आडावंक शकचोना.

व्हनीबाय : अशें कितें म्हणटा तूं शाणूबाब? तुजीच वाट पळोवन, पळोवन दोळे म्हजे सामके सुजल्यात. सांग मरे कसली खबर हाडल्या ती.

शाणूबाब : तेंच सांगूंक आयलां हांव. नाजाल्यार थोडोच येतलों आशिल्लों. म्हजें कितें? सोयरिको जुळोवन दिवप, हें काम म्हजें. ह्या

वेंतभर पोटाक लागून पांय म्हजे झरोवचे पडटात. इतले म्हजे पांय झरल्यात. तांकां दुसरो सोल मारपाची पाळी आयल्या. मोच्यांक मारतात ते भशेन!

व्हनीबाय : आरे, पयलीं खबर कितें हाडल्या ती तरी सांग. उपरान्त मागीर तुज्यो खबरी फोड.

शाणूबाब : हां. तर, व्हडल्या मळार तो शंभू ना गे, ताचो एक चलो आसा. बरो फॉरेन रिटंड. दुबय आसता. (इतल्यांत किरण भायर येता.)

किरण : आई! हांव जांवचेंना हां फॉरेन रिटंड चल्याकडेन लग्न. हांव बरें बी.एस्सी शिकलां. तो कितें शिकला देव जाणा. हें लग्न जुळवपाचीं सपनां तूं रंगयनाका.

व्हनीबाय : उलयलेंच तूं! (कपलार हात मारून) मारलो दांडो? तो उलयता थंयच आसा. बी.एस्सी शिकलां खंय! दोग जाणां उलयताना मदीं तोंड घालचें न्हय हें शिकूंक ना दिसता तूं. तुमी, आतांचीं शिकिल्लीं पोरां अशींच. सुपांतूय धरनात आनी वल्लेंतूय धरनात तसलीं!

शाणूबाब : आगो तो बी.एस्सी न्हय जाल्यार कितें जालो? बरे ४० हजार जोडटा तो म्हयन्याक! ताचे दुडू आनी तुजें गिन्यान! काय बरी जोडी दिसतली पळय. एकदम फस्ट क्लास!

किरण : उजो लाय व्हरून त्या ४० हजारांक! तुमचें हांव आयकून घेवपाक ना. ना म्हळ्यार ना!!

व्हनीबाय : हेय, जाणट्यांकडेन कशें उलोवचें तें कळना तुका. दांडो मारून फाटी कोंडो मोडटलीं सामको! बरें वळखना तूं म्हाका... आं! वच भितर आनी इल्ली च्या कर. (शाणूबाबाक) शाणूबाब, चलयेचें मनार घेवं नाकात आं...

शाणूबाब : तो नाका जाल्यार, आनीक एकटो आसा गे इंजिनियर. दिसपाक व्हडलो सो ना. गुणांनी बरो आनी शिकपान

हुशार! तुजे चलयेक तो आवडत ना आवडत, तें मात सांगूक नज. सामको वायट सो ना गे तो दिसपाक. (येवजून) बरें ताका होच दाखोवंया. चल्याक पळोवपाचें आमगेरूच थारावंया न्हय? व्हनीबाय, ताका घेवन यो तूं आयतराक. हांव बंदोबस्त करतां.

व्हनीबाय : देव बरें करूं रे. येतली हांव. (किरण च्या घेवन येता - ताचे पयलीं शाणू वता). शी, शी, शाणूबाब गेलो. तकली म्हजी आवट जाल्या. च्या करूंक सांगिल्लें हाची यादूच ना म्हाका. आगो लज तरी घे गो कोणाची. मनीस वतकीर च्या हडप? शी... शी... हे चलयेन साप्प विटयलें. तुका कॉलेजीक धाडून चूक केली सायबिणी.

किरण : जावं गे आई! म्हाका कितें खबर, शाणूकाका गेले म्हणून? हांव कितें रांदूक आनी सिर्वीस करूंक नकळो काय कितें? हांवें बरो कुकरी कोर्स केला.

व्हनीबाय : हळद लागूं तुज्या कुकरी कोर्साक! रांदचे कुडीत कितें रेसिपी बूक घेवन वतलें काय कितें? निमणे फावट सांगता, आयिल्ल्यो सोयरिको मोडटा. खंयच्या मोडिल्ल्या झाडावयलो म्हारू तुजे गोमटेर बसला म्हणून देव जाणा. घरांत आयिल्ले बरें?, काय सोदूंक गेल्ले गो? हां? तुमकां आतांच्या चलयांक कितें जालां देव जाणा. तुमच्या खड्ड्यांत हुंदीर भरल्यात. आयतराक चलो पळोवंक वचूंक जाय. आयकलां? इंजिनियर खंय! आनीक जाप नाका तुजी. (किरण भितर वता, व्हनीबाय च्या पिता.) हे चलयेक कितें जालां हांव नकळो. आतांची येदीशीं पट्टीं सुद्दां बॉयफ्रेंड घेवन भोंवतात. आनी ह्या म्हज्या लाडक्याक कसलो चलो मानवतलो, हें येवजून येवजून, म्हज्या केसांचो रंग उडपाक पावला. हो तरी पसंद पडल्यार पुरो देवा!

(माचयेर काळोख)

## देखाव दुसरो

(शाणूबाबालें घर. सुनील आनी शाणूबाब बसल्यात. व्हनीबाय किरणाक घेवन भितर सरता. शाणूबाब वळख करून दिता. सुनील व्हनीबायेक पांय पडटा. किरण - सुनील एकामेकांक पळयतात.)

शाणूबाब : तुमचीच वाट पळेताले आमी. येयात. बसात. हांव च्या घेवन येतां. (भितर वता)

व्हनीबाय : (लोकांक) आवयस! काय बरो चलो! हो आमगेल्या किरणाक बरो सोबतलो. मागीर तो सूर्य आनी म्हजी धूव ताचें किरण! (सुनीलाक) बरो आसा मरे बाबा?

सुनील : हय. हांव आसा बरो. तुमी बरीं आसात न्ही?

व्हनीबाय : हय! हय! जेवन खावन मस्त.

(सुनील, किरण एकामेकांक पळयतात. शाणूबाब च्या घेवन येता.)

शाणूबाब : किरण, चल बाय, च्या दी व्हरून सुनीलाक.

(किरण च्या दिता. दोगांय लजतात आनी हांसतात. व्हनीबाय आनी शाणू ल्हवूच उलयतात. सगलीं च्या पितात.)

शाणूबाब : (किरणाक कुशीन व्हरून) पसंद पडला गो?

किरण : (लजून) हय शाणूकाका! (व्हनीबाय देवाकडेन मागता.)

शाणूबाब : (खोशी जावन - सुनीलाक कुशीन व्हरता) तुका मानवलें रे?

सुनील : हय.

शाणूबाब : व्हनीबाय! पसंत पडलीं गे एकामेकांक. महामायेक निवेद्य दाखय!

व्हनीबाय : शाणूबाब! आनीक वेळ होगडावया नाका! जाता तितले



बेगीन तयारेक लागूंक जाय. पत्रिका पळोवन, म्हूर्त काडूंक नाका? जांव तरी, चलयेक म्हजे पसंद पडलो सुनील, फुडले तयारेक लागुंया न्हय?

सुनील : हय. हांव मेळटां तुमकां येवन, म्हजे आईक घेवन.

व्हनीबाय : बरें तर शाणूबाब. येतात आमी.

(व्हनीबाय, किरण वतात. शाणूबाब आनी सुनील हातवाऱ्यांनी उलयतात आनी सुनील वता.)

(माचयेर काळोख)

## देखाव तिसरो

(व्हनीबायलें घर : शाणूबाब भायल्यान सावन उलो करीत येता.)

शाणूबाब : व्हनीबाय - ये व्हनीबाय! व्हनीबाय, आगे व्हनीबाय ऽ ऽ

पाड पडूं हिचें. कानांत कोण जल्लो बी गेला काय कितें हिच्या? कितले उले मारले. आयकूंक तरी येता जाल्यार पळयात. काय, चलयेचें लग्न जमलां म्हणून, ही सामकी फुलून तळिल्लो पापड जाल्या काय कितें? शी शी... व्हनीबाय - ये व्हनीबाय... व्हनीबाय, खंय पावली गे? व्हनीबाय ये व्हनी... (इतल्यांत, व्हनीबाय येता.)

व्हनीबाय : ओ - ओ... आयलीं. शेजान्नीगेर गेल्लीं. हांव एकटीच म्हणून कशी करूं सगलें. तिका मातशी आपोवंक गेल्ली. एकट्याच्यान म्हंणून ताणूंक जाता? कोणूय जाय न्हय हात बोट घालूंक?

शाणूबाब : तें जालें गे. आनी किरण खंय गेलां?

व्हनीबाय : (मुरगटून) सुनील आयिल्लो स्कूटर घेवन सिनेमाक व्हरपाक ताका. येंवचींच जाल्यांत तीं. (घडयाळ्याक पळोवन) आवय्स! खूब वेळ जालो. आजून कशीं पावूंक ना तर तीं?

शाणूबाब : आगे येतलीं गे. बेश्टीच हुस्को करूं नाका. तुमकां बायलांक हीच पाडी संवय, रोखडोच जीव गळ्यांत हाडप.

व्हनीबाय : चली भुरगें न्हय तें? म्हणून भंय दिसता.

शाणूबाब : चली आनी चलो. आतां तांचे मदीं फरक उरला गे? पँटी घालून आनी केंस कापून, तीं चलेच कशे दिसतात. कोण चलो आनी कोण चली हे वळखूंक पावरफूल वक्ल घालून सुद्दां कठीण जाता.

व्हनीबाय : हय रे. हें सगलें खरें तुजें. आनीक एक सांगतां. तुमी थोडे आसात मूठभर, पुडवें न्हेसपी. ह्या पुडव्यान तुमी सालवार.

नाजाल्यार सांगूंक नज. तुमकांय कोणूय पँटी घातिल्ल्यो चलयो समजुपाचे.

शाणूबाब : तें सगलें खरें गे. हांव कित्याक आयिल्लों तें विसरून, दुसरेच गजालींत घुस्पलों. (येवजून). हां. तुमची तयारी खंय पावल्या?

व्हनीबाय : जायत येता रे. लाडू करपाक लायल्यात. भांगर करूंक दिलां. कपड्यांचोय वावर करून काडलो. आनी घरांतलें थोडें थोडें करून सांबाळटां. आमगेले हे आशिल्ले जाल्यार बरें जावपाचें. लग्नाक मेजून आतां पंदरा दीस उरल्यात.

शाणूबाब : तर, लग्नाक पावचेनात ते?

व्हनीबाय : शी, तशें कशें जातलें. कन्यादान करूंक नाका तर? रजा मेळना. विनवन विनवन, दिल्या बाबा. मातसो वेळ जातलो. पळोवया कितले बेगीन पावतात ते.

(किरण बँडेज बांदून येता.)

किरण : आई... आई... (आवयच्या हाताक धरता).

व्हनीबाय : सायबीणी भोगस म्हाका! शांतादुर्गे पाव गे! कितें जालें गे पोराक म्हज्या? कितें जालें गो शाण्या?

किरण : (दोळे पुशीत, आंवडो गिळून). आई आमकां ॲक्सिडेंट जालो. (रडपाक येता. थांबून) सुनीलाक हॉस्पीटलांत व्हेला. सिनेमा पळोवन येता आसतना, मुखावयल्यान एक गाय आयली अकस्मात. तिका चुकोवंक सुनीलान स्कुटर सायडीक व्हेली. बॅलन्स चुकून स्कूटर रस्त्या सकयल देंवली आनी झाडाक मारली. ताका चड मार लागला.

शाणूबाब : (लोकाक) तरी बरें, सिनेमा पळोवन हें जालें म्हणून.

व्हनीबाय : हीं गोरवां आनी मदींच रस्त्यार नाचूंक शिकल्यांत. संवसार खरेंच बदलला. मनीस म्हण्टा आपूण व्हड. मोनजात म्हण्टा

आपूण व्हड!

शाणूबाब : हय, हय, ल्हान म्हणपी एकटोय ना.

व्हनीबाय : शाणूबाब बस आं. चल बाय भितर यो. इल्ली च्या करून दितां. पोराक म्हज्या सुशेग ना. लग्नाचो दीस लागीं पावला आनी हें कसलें विघ्न हांचेर आयलें म्हणून देव जाणा. (शाणूबाब बसता.)

(लाडू करपी नारायण, म्हेळे पुडवें आनी हात आशिल्लें बनयान घालून तकलेक तुवालो गुठलावन ताकतिकेन येता.)

नारायण : व्हनीबाय! घात जालो! आवय, सत्यानास जालो!

शाणूबाब : (उठून) हेय, हेय! तुका आसात ते दोळे काय बेश्टे दोन बुराक रे! दिश्टी पडटा काय ना रे तुका? हांव कितें कास मारून कापड न्हेशिल्लो दिसलो तुका? म्हाका व्हनीबाय म्हणून पाचारता? आर्‍रा तूं! दियाब खंयचो! देडदमडेचो मनीस! तरपाशेर्‍र!

नारायण : हे, शाण्या, (रागान) तुका व्हनीबाय म्हणूंक ना हांवें. खरें सांगपाचें म्हळ्यार, तुका हांवें पळयलोच ना. पुर्तूगेजीन गाळ्यो सवंता मरे. तुज्या जिवाक तूं कोण पाकलो समजता काय कितें? आरे, चार पांयांचो घोडो चुकता आनी दोन पांयांचो मनीस चुकल्यार, तातूंत व्हडलें कितें आसा? खंय चार पांय आनी खंय आमच्या सारकेल्यांचे दोन मोटवे पांय? इल्लीशी गजाल! आनी तुवें मळब माथ्यार घेतलें. सामकें धवें फुल्ल पुडवें आनी कोट तोपी घालून, व्हडलो आदमिनिस्त्रादोर जालो दिसलें व्हय तुका?

शाणूबाब : ये - ये सांबाळून उलय! नाजाल्यार जीब हुमटावन हातार दितलों कुरकूरीत भाजून. लाडू करून, दोन पयशे मेळटात ताचेर भाव खाता? म्हाका सगळो गांव मान दिता. (हड्‌डें

फुलोवन) ओ सिन्होर! म्हणून. आनी हो शेणांतलो किडो म्हाका शापोतां सांगता.

नारायण : म्हाका शेणांतलो किडो म्हण्टा? म्हाका? (आंगार वता) तूं हेडगो मरे सामको. हांगा थंय भोंवन दिसवडो सुट्टा तुजो. म्हाका किंकोत करता.

(व्हनीबाय बोवाळ आयकून येता.)

व्हनीबाय : आरे - आरे, नारायण, कितें जालां? बोवाळ कसलो?

शाणूबाब : नाराण कितें सांगतलो? हाडून लांवचे पडटले, धोतराक ताज्या फोगेट्यांचे माराण! (हांसता).

नारायण : व्हनीबाय, घात जालो गे! सगल्या लाडवांचो सत्यानास जालो.

व्हनीबाय : (भिवन) कितें जालें नारायण? उलय बेगीन हाय देवा! हें आनी कसलें लच्याण?

नारायण : लाडवांक हांवे पीट कालयलें मगे आनी भायर वचून भितर येता म्हळ्यार पिठांत कितें तरी बुडबुडटा. दवलो घेवन पळय जाल्यार, पाल बुचकळ्यो काडटा.

व्हनीबाय : शी... शी... ती आनी अवदिसा खंय आशिल्ली गे बाये? तिका आमचेंच पीठ मेळ्ळें दिसता जीव दिवपाक. हें लक्षण बऱ्याचें न्ही. नारायण आतां कितें करूयां? कितलो देसपेज जाला तो जाणा मरे? ह्यो वस्तू आनी दोबराद हाडपाक जातलें म्हज्यान? शी... शी... सोंसूक नज म्हज्यान.

नारायण : दुसरो उपाय ना. दुसरें पीठ कालोवचेंच पडलें न्ही?

व्हनीबाय : तुमी आमच्या हांकां वळखनात. शींव जातलो शींव. पयश्या-पानदुडवाचो हिशेब घेता. तांकां कळनास्तना करचें पडटलें हें काम. कसोय करून पयशांचो बंदोबस्त करचोच पडटलो. नारायण तूं वच. फाल्यां मेळटा हांव तुका. (नारायण

वतना शाणूक मोठे दोळे करून वता.)

शाणूबाब : व्हनीबाय हें कितें? पयलीं एक्सीडेंटान सुरू केलें हें नाटक. आनी आतां हें लच्याण! जालां तरी कितें?

व्हनीबाय : जाला म्हजें कर्म. (सट्कन् याद जावन). आरे व्हॉवळीक तयार जावंक ना काय? आयज दिवन धाडटा म्हणिल्लें. लोकांक वांटूंक नाका रे?

शाणूबाब : हय. हांवूय तेंच विचारूंक वतालों. लोकांक मगे पयलींच, बरेच आदीं, आमंत्रण पावंक जाय. कितेंय फूल ना पाकळी हाडपाक बरें जाता.

(दारार मारता)

व्हनीबाय : कोण तरी आयला... यो यो...

चोंचरो : (हाफपेंट, हातकापें टीशर्ट आनी टॅनीस बूट घालून चोंचरो धांपेत येता. इल्लेशें तोंड करून.)

व्हनीबाय : आरे हो·प्रिंटींग प्रेसांत काम करता न्हय रे? जावं व्हॉवळीकेची खबर घेवन आयला तो. कितें बाबा, केन्ना हाडटा? बस बस. श्वास घे मातसो. जालीं मरे छापून?

चोंचरो : (चोंचरो उलयता) भाटकान्नी, आमचें मशीन मोदलां. पातलांवान म्हाका सांगूंक धांदला, आठ दिसांनी मेलतलीं खंय.

व्हनीबाय : सायबीणी लज राख गे म्हजी, मोडकरीं मशिनां कित्याक दवरतात रे तुमी? पयशे कुसून वतात. पयशे कितें किल्लावंक घातल्यात रे तुमच्या पात्रांवान? नवीं मशिनां घेवंक जायना? असो म्हणून घात करप?

चोंचरो : तें म्हाका कशें कलतलें? तांकांच विचालात. नाजाल्याल दुसलेकडेन पलेयात!

शाणूबाब : हो रे कोण 'चोंचलो'! बरो आयला दुसरे कडेन पळोवंक सांगपी. आरे आठ दीस लागतले? तीं तुज्या आज्याच्या लग्नाक उपकारतलीं.

चोंचरो : तुमी म्हाका कित्याक तापयतात? वतां हांव.

शाणूबाब : आगे, हें कशें जातलें. लोकांक म्हणून आपलो प्लॅन करूंक नाका अहेराचो? व्होंवळीको लेट मेळ्ळ्यार बरें दिसचेंना.

व्हनीबाय : अहेर रे कोणाक जाय? व्होंवळिको वांटून हांव मेकळी जावंक सोदतालीं. दुसऱ्या कामाचेर लक्ष घालूंक मेळटा न्हय? हें रें कसलें सिनाल? शाणूबाब म्हाका कांयच समजना. म्हूर्त तुवें सारको पळयल्लो न्हय? मागीर हें अशें कशें जाता तर?

शाणूबाब : व्हनीबाय! राम भट केन्नाच चुकला अशें जालां? ताणें म्हाका ६० फावटी तरी सांगलां, म्हूर्त एकदम बरो आसा म्हणून. बरें वचूं हांव? (वता, पूण कोण येता म्हणून परतता.) आगे आनीक कोण येता मगे, हे वटेन.

व्हनीबाय : आनीक कोण देवदूत शुभखबर घेवन येता काय? (भायर पळोवन) आरे तो सुनीलाचो बापोल भाव (दारांत रावता - दामू येता) यो बाबा. सुनील कसो आसा? छातयेन सामकें कलकलपाक लागलें.

दामू : सुनील आसा बरो. आतांच दोतोर पळोवन गेला. एक्सरे काडूंक व्हेला. दोतोराच्या अदमासा वयल्यान ताच्या भुजाक आनी दाव्या पांयांक फ्रेक्चर आसा. आनी तशें जाल्यार ऑपरेशन करचें पडटलें म्हळां. कमीत कमी, दोन-तीन म्हयने तरी तो प्लास्टरांत उरतलो अशें दोतोर म्हण्टालो.

व्हनीबाय : देवा धनया! कोणाक हांव शिणूं? बाबा बस रे इल्ली च्या घेवन चल.

दामू : नाका नाका. सुनीला म्हऱ्यांत आज रातीक हांव रावचो आसां. वेळ जातलो.

व्हनीबाय : बरो करून पळयात रे बाबा ताका. हांव फाल्यां येतां पळोवंक ताका.

दामू : येतां गे. किरणाक पळयात सारकी. ताकाय लागला मार.

व्हनीबाय : हय रे बाबा. तरी देवान राखलीं पोरांक! देवा धनया, कोणा मेल्याचो दोळो लागलो म्हजे खोशयेक?

शाणूबाब : चड फुलिल्ली न्हय तूं? तुजोच दोळो लागलो तुका!

व्हनीबाय : देवा, कितल्या तेंपान, चलयेचें लग्न जुळयलें. उमेदीन सगली तयारी सुरू केल्ली. एकदांचें हें लग्न जातलें आनी हांव मुक्त जातली म्हणून हांव रावताली. आतां हें लग्न फुडें धुकलचें पडलें. देवा, कोणाच्या पापांचे भाणें म्हज्या नशिबार फुटलें? म्हजो जांवय बेगीन बरो जाल्यार पुरो!

शाणूबाब : भियेवं नाका. कितें वायट येता, तें बऱ्याकूच. तरी बरें जालें प्रिंटींग मशीन मोडून. आमंत्रणा तरी सारकीं तारकेन शापून मेळटलीं. व्हनीबाय एका लग्नाक सतरा विघ्नां म्हणटात ही गजाल मात खरी; न्हय? आदल्यांच्यो त्यो म्हणी, सगल्यो खऱ्योच!

व्हनीबाय : हय तर. सांगुंकूच नाका. नाजाल्यार आमचेंच उदाहरण पळयात. लग्न एक आनी विघ्नां आयलीं सतरां!

(सोंपता - पड्डो पडटा.)

# आई बांदावयल्यान धांवली

**<u>पात्रां</u>**

आई

बाबा

**भुरगे**

संजू

मनोज

बंडू

अमेय

## देखाव पयलो

(घरांत मंद रेडियोचो आवाज. पुडवें न्हेशिल्लो मध्यम पिरायेचो बापूय पदां म्हणपाक गुल्ल. वस्तू हांगाच्यो थंय. हातांत रिकामी तेलाची बाटली घेवन णववारी कापड न्हेशिल्ली कमी पिरायेची आवय भायर येता. घोवाक पळोवन कपलार हात मारता. घोवाची नदर तिचेर ना. तिडकीन घोवाक उलो करता.)

आई : भाटकारा आयकयात! घरांत तेल सोंपलां. कालच्यान हांव आड्डतां, तेल हाडात म्हणून. एकटोय मनार घेना. तुमी आपले गुल्ल, पदां म्हणपाक. स्वताक केदो हिरो आनी गायक समजतात म्हणून देव जाणा. घराची जापसालदारकी म्हजेर पडल्या. ह्या घराचो धनी बसला पदेपाक. हिरो जावपाची सपनां रंगयता. लग्न जावन चार भुरगीं जालीं, तरूय हांची मस्ती निवळना.

बाबा : कितें? कितें म्हळें तुवें? लग्न जावन भुरगीं जालीं म्हण्टकीर जाण्टे जाले? पिशीच तूं! आगे आतां चल्यांक सोयरिको येतकीर मजा पळय. चल्यांक सोडून, म्हाका पसंत करून, माळ म्हज्याच गळ्यांत पडटली. (हे, हे करून हांसता. लोकांक दोळो मोडटा.)

आई : शी... शी... कसलें हें विद्रूप उलोवप! लज आसा जाल्यार पळयात ह्या दादल्याक. केंसाचो रंग वचून, मदीं धवसाण आयल्या. आनी तरूय आपूण कालचो पयरचो तरणाटो म्हणून समजता.

बाबा : आवय्स! बायल म्हजी शाणी जाली! केन्नाच्यान इतली जाणवाय तुका गावली गे? बेश्टीच कित्याक पिकार जाता? हांव हिरो दिसपाक लागल्यार तुकाच इल्लें वोर्र न्हय गे? मागीर सगल्यो तुज्यो शेजान्नी आनी इश्टीणी तुजेर जळपाक

लागतल्यो. तांचे घोव पळय. एका फुडले एक माकड!

आई : पुरो-पुरो! तुमच्याकय खूप वयर आसात ते. (रडून) कशे आपल्या बायलांक सुखान, धादोस दवरतात! घरांत जाय-नाका तें हाडून दितात. पोरसांतल्या फुलाक जशें जपचें, तशें आपले बायलेक जपतात. आनी तुमी... देवा, हें कसलें इनाम तुवें म्हाका दिलें? घरांत वस्तू सोंपल्यात. आतां सांगात. कशें नुस्तें तळूं? कशें भाज्जेक फोण्ण घालूं? सकाळीं फोडणी फोव केल्ले, फोण्ण मारीनासतना. ते कोणेंच खाले ना, सुके जाले म्हणून. आतां रांदप कशें? तोणाक केलां, तांतूतय तेल ना.

बाबा : आगे तेल ना जाल्यार उदक घाल. तेंय नाजाल्यार... शी शी. तोंडाक उतरां येतात. बेश्टीच म्हजो जीव खायनाका आनी म्हजो वेळ होगडावंक नाका. तुमकां रांदपाचें 'आर्टूच' ना जाल्यार. वाड्यार गायनाची सर्त दवरल्या न्हय गे ह्या पोरांनी? हांवें नांव दिलां. मातशी प्रॅक्टीस करतां हांव. हांव जिकल्यार कितली खोस भोगतली पळय तुका!

आई : पुरो-पुरो! हळद लागली त्या तुज्या पदांक. आयज दाखयतां तुमकां सगल्यांक. उजोच घालीना चुलींत. ओग्गी वचून न्हिदतां. एक दीस तरी सुशेग घेतां. दीसभर काम करून सुकून कांटो जाल्यां. येस्ताद पळयात म्हजो! वयल्यान, ना-ना तें हाडून घेवचेंय म्हाकाच पडटा. तकलेर इतलो पेज पडून, नॅरवां फ्राक जाल्यांत. तें इश्वरी म्हण्टालें, नाचण्याचें सत्व करून घे म्हणून. नाचणें आसूंक जाय न्हय घरांत!

(धोवाक पळयता. तो गुल्ल पदां म्हणपाक. तो तिका पळयना. ती तिडकीन, पाय आपटीत भितर वता. कांय वेळान ल्हवूच भायर येवन पळयता. तरूय ताचें लक्ष ना तें

पळोवन, रागान भितर वता. इतल्यांत युनिफॉर्म घालून भायल्यान संजू येता.)

संजू : आई, ये आई... आई... आई, म्हजो सिविक्स बूक खंय गे? (मेजार सोदता). आई खंय गेली गे? मातशे बूक सोदून दी, प्लीज. आई, यो गे मातशी. टिचरीन घरा धाडलो म्हाका. फाल्यां इन्सपेक्टर येता खंय. हे आनी इन्स्पेक्टर कित्याक येतात तांकांच खबर! मरूंक. काम ना दिसता तांकां.

(बाबा, ताच्या बडबडाची आडखळ जावन बेजार जाता. कोट तोपी घालून भायर वता. संजू सोदीत आसा. आवयक उलो करीत. बाबा परतो भितर येता).

बाबा : संजू, बडबड कसली रे? तुजे बूक सांबाळपाक कळना दिसता तुका. एकटोय भुरगो जाग्यार ना. आईक सांग हांव फट्यागेर गेला म्हणून.

(संजू बाबाचेर लक्ष दिना. बूक सोदता आनी परतून आवयक उलो करता.)

संजू : आई, आई... ये आई, खंय गेली गे? बेगीन यो. ना जाल्यार आयज भोगशिणी ना. आई... आई...

(आई रागान भायर येता. थापट मारूंक वता. संजू चुकयता.)

आई : आरे, मेल्ल्या, कितें जालां? कित्याक आड्ड्ता? पाडपडिल्लीं, मरूंक सुद्धा सुशेग दिनात. पोट चड भरलां तुमचें. उलय. कितें जालें?

संजू : (सवकास) आई, तापूं नाका गे. म्हजो सिविक्स बूक मातसो सोदून दी. शाणी ती आई म्हजी!

आई : आरे, इश्कोलाक तूं वता काय हांव? तुमचे ते सव्वीस आनी सत्तावीस, तें म्हाका खंय समजता? सोद बेगीन.

घर अस्थावस्त करून सोडलां. छापखानो सो दिसता. एक वस्त जाग्यार ना. म्हज्या कुकमाची डबी सुद्दां म्हाका मेळूंक ना आज. शालीगेर वचून, लावन आयलीं कुकूम.

संजू : आई तुज्या कुकमाचें मागीर पळोवंया, म्हजो बूक हांवें व्हेलोना जाल्यार, म्हज्या हाताचो कुकूम देंवतलो.

आई : देवूं! देवूंकच जाय. त्याशिवाय जाग्यार येवचेनात तुमी.

संजू : आई, प्लीज. सोद गे. म्हजी भांगराची आई ती. (पालवाक धरून) भितर पळय गे मातशी. हांव हांगा सोदतां.

(आईक याद जाता. भितर वचून बूक घेवन येता. संजू खूश)

आई : नालायका! घे. होच जाल्यार पळय. खंय आशिल्लो जाणा मरे? आमठाणीच्या दोणार. सकाळीं हांव आमठाण काडूंक गेल्यार, थंय मेळ्ळो हो बूक. म्हाका खंय वाचूंक येता? पूण जाणाच आशिल्ली चोर सांपडटलो म्हणून.

संजू : थँक यू आई! बाय! बाय! आमठाणीचें मागीर उलोवया (वता)

आई : एका परस एक सवंग. कितें हो संजू. आमठाणीक आनी ताका पडना. बुयांव रितो केला ह्या अवचिन्नान. (आई मेज निवळ करता. इतल्यांत भितरल्यान मनोज हाफ पँट घालून, व्हडली पँट हातांत घेवन भायर सरता.)

मनोज : आई, म्हजे पँटीचो बट्टन ना मगे? कोणे तुटयलो? ह्या घरांत हुंदीर जाल्यात काय कितें?

आई : हुंदीर आनी कशे दीस काडटले बाबडे ह्या घरांत? हांगा व्हडल्या कास्ताचीं चार चार माजरां आसात.

मनोज : मोठीच मगे तूं! आमकां माजरां म्हण्टा? बरें आसा. तें

आसूंदी. बट्टन मातशे लावन दी न्ही. कविताक मेळपाक जाय म्हाका.

आई : तरपाशेर्‌र! हें कविता कोण रे? आवय हुजीर चलयांचीं नांवां घेता? फाट सुजयतलीं सामकी. कॉलेज सोंपूकच ना. सिर्वीस करपाक जाय. व्हंकलो जाय तुमकां. पयलीं शिक्षण पुरें कर, सिर्वीस कर आनी मागीर व्हंकल सोद.

मनोज : आई! जमाना बदल गया है। हो तेंप मॉडर्न. तुका मागीर शॉक बी येत म्हणून, पयलींच सांगून दवरतां. म्हजे व्हंकलेचें नांव कविता. सुंदर! कॉलेजींत ब्युव्टी क्वीन म्हणून वतां तें.

आई : ह्या घरांत, ब्युव्टी हाडूं नाकात. बाबा तुमचो... शी शी!... नाका. बापायच्याच वळणार गेल्यात हे भुरगे.

मनोज : आई, चल्यांनी बापायभशेनूच जावंचे न्हय गे? चली आशिल्ली जाल्यार, तुजे बशेन जातली आशिल्ली.

आई : देवान हो एक उपकार केल्यार बरें जातलें आशिल्लें. तुकाच तरी चली केल्ली जाल्यार, घरच्या कामांतय म्हाका आदार मेळपाचो. तुमी एका परस एक ऐतखाऊ! वयल्यान म्हजीं कामां वाडयतात.

मनोज : आई! तुजें लॅक्चर मागीर आयकतां. बट्टन शिंव पळोवया. म्हाका वेळ जाता.

आई : करतां तें दिसना? ह्या भुरग्यांनी पिशी करून सोडल्या म्हाका. एकट्याकूय आपलीं कामां धड करूंक येना. देवान, जर म्हाका सगल्यो चलयोच दिल्ल्यो जाल्यार सुखान जियेतली आशिल्लीं हांव.

(बट्टन लावन पँट दिता. मनोज केंस वळोवन, शर्ट सारको करता. पद म्हणटा.)

मनोज : तुम्हे अपना बनाने की कसम खायी है...

आई : व्हंकल सोदतात ती, शिवणसूत आनी रांदप जाणा आशिल्ली सोदात. नाजाल्यार मागीर खायात खिचडी.

मनोज : ओह! आई! डोंट वरी. माय कविता! क्या बात है, उसमें। तुका जाय तशेंच आसा तें.

आई : परत कविता? नाक कातऱ्या, लज घे रे इल्ली. आनीक एकदां नांव घे आनी पळय. हे सुयेनूच तुजें तोंड शिंवतली हांव. (मनोज पँट घालून आईक सलाम करून टाटा करून फुज्यो काडटा.) देवा धनया! भुरगे म्हणून तुवें कसले दिवचे? पूण हरशीं कितेंय जांव आं. चार चल्यांची आवय म्हणून शेजान्नी मात तोखेतात म्हाका. पळोवया, भाग्य केन्ना उजवाडटा तें? पूण आयज हांकां बुद्द शिकयल्या शिवाय रावचींना. अन्न शिजोवचींना. म्हाका आनी म्हजे रांदचे कुडीक आयज फेर्याद! भितर वचून मातशें आड पडटां. (भितर वता. बंडू येता. बूक मेजार उडयता. शर्ट कदेलाक लायता.)

बंडू : (कळवळून पोटाक धरून) आई, ये आई! आवय आवय मेलों गे! जीव वता सामको. आई... आई... आई... (आई धांवत येता.) (पालव धरून) आई भूक लागल्या गे सामकी. सकाळीं च्याच पिवन गेल्लों. आतां दी म्हाका कितेंय. पोळे दी. शीत मागीर जेवतलों. नुस्तें बरें हाडलां मगे?

(आई दोळे मोठे करून)

आई : अवचिन्ना, सोड म्हजो पालव. जीव सामको गळ्यांत हाडलो हाणे. म्हाका दिसलें, कितें जालें म्हणून हाका. पळय जाल्यार, हो भकासूर भुकेन आड्डता. आयज पोळे खंयचे? फोडणी फोव केल्ले, तेय फोडणी नासतना. आनीक तूं आतां आयक. आयज जेवणूच करूंक ना हांवें. न्हिदात

उपाशीं. पोट ओमथें घालून. (भितर वता. बंडू कळवळून तिचे फाटल्यान वता.) (आयदनाचो आवाज. भितरल्यानूच - आईचो आवाज) आरे पापया, सांगलां न्हय रे खावंक कायंच ना म्हणून. बाबाच्या गळ्याक धरात. हिरो जावन भोंवता तो. (बंडू तोपूल घेवन भायर येता. फोडणी फोव खाता. मागीर परत भितर वचून दुसरो तोप आनी उंडो घेवन येता.)

आई : (भायर येवन) नालायका, केदें व्हडले पोट तुजें! भितर डब्यांतल्यो निमण्यो उरिल्ल्यो बिस्कुती खावन उडयल्यो आनी हो तोप घेवन आयला. आरे, तें तोणाक आनी उंडो बाबाक सांबाळून दवरिल्लो मरे. (बंडू उंडो खावन भितर वचून, आनीक डबो घेवन येता.) देवा कितलें म्हणून पासियेंस काडूं? बंडू कितें रे पोट तुजें? हांयसा बशेन, खाल्लें-खाल्लें पोटांत उदक जाता. आतां हांव कितें करूं? सगलें खावन उडयलें ताणें.

बंडू : (हांसता) आई! हांव जावचो आशिल्लों तेन्ना गिराण बी आशिल्लें दिसता. त्या दिसा तुवें चोरून बी ल्हवूच खावंकना मगे?

आई : आरे चोरा! गिराणा दिसा तुजे आजयेन म्हाका उठपाक तरी दिल्लें मरे? सामकी आपूणय ठाण मांडून बसून रावली म्हज्या म्हऱ्यांत.

बंडू : आवय! म्हणजे म्हजे आजयेनय पाळ्ळें तर गिराण? म्हणूनच हांव असो जालों दिसता?

आई : हय हय. व्हडलो आयला हो आजयेचो पणजो. तुजे आजयेन पाळिल्लें गिराण? हय? आरे म्हातारेन म्हजी पर्वा करिनासतना अळमी खाल्लीं त्या दिसा, म्हाका ल्हेंवटावन. (याद काडून) म्हज्या तोंडाक सामकें उदक सुटिल्लें. येदो

व्हडलो उपास आनी त्याग केल्लो हांवें तुजे खातीर.

बंडू : आई, तशी रूच उरूंक फावना म्हणटात. न्हय गे? तुज्या तोंडाक उदक सुटिल्लें म्हणून हांव पोटयो जालां आसतलो.

आई : आरे बुदवंता, शाण्या चल. तुजे कपडे आनी बूक जाग्यार दवर. नाजाल्यार फाटीर पडटले पटे.

बंडू : आई, रातचे तरी गोटे पडटले मगे ताटांत?

आई : आरे, दनपारूच सरूंक ना आजून. आईचो राग माथ्यार चडिल्लो आसा. सुर्यभशेन. सांजवेळा, तो देंवलो जाल्यारूच चूल पेट्टली, नाजाल्यार चुलींत उदक सोडटलीं. (बंडू भितर वता. आई ताचे बूक आनी कपडे एकठांय करता. जाग्यार दवरता. बाबा अमेयाच्या कानाक धरून घेवन येता. आई पळयता).

बाबा : आगे, आयकता? हो पळय तुजो लाडलो. व्हडलो पराक्रम जोडून आयला तुजो वीर.

आई : कितें जालें? कित्याक गळ्याच्यो शिरो फुलोवन आड्डतात तुमी? आवयस! सोड म्हज्या राजाचे कान. अशें कितें तुमी? कितें केलां रे म्हज्या राजान?

बाबा : म्हाका कितें विचारता? (चाळोवन) ह्या तुज्या लाडक्याकूच विचार.

आई : अमेय, कितें रे? (अमेय पदराआड लिपता.)

बाबा : अमेय कितें सांगतलो? चोर पळय कसो लिपता तो. आगे गड्ड्यांनी खेळटालो त्या राखण्यांबरोबर. सकाळी बॅग घेवन गेल्लो न्हय तो शाळेंत? इश्कोल आनी खंयचें? वाटेरूच व्हडले मास्तर मेळ्ळे ताका. आयज आदेसभर तो गड्ड्यांनी खेळ्ळा.



आई : अमेय सारकें सांग. बाबा सांगता तें खरें?

अमेय : हय आई. आनीक केन्नाच वच्चोना.

बाबा : हिणेंच ताका पिड्ड्यार केला. निमाणो न्हय रे तूं? सगलें उरिल्लें दूद तूंच पिलो न्हय? म्हणून चड माया तुजेर. हें पळय, आनीक आनी तूं म्हाका गड्डे घेवन दिसत, दोंके मोडून घरांत उडयतलों तुका आनी तुजे आईकय (अमेय भितर वता.)

आई : म्हाका कित्याक दोश दितात तुमी? तुमी आसतात काय कितें घरांत? भुरग्यांक सांबाळपाची आनी देख रीत शिकोवपाची जबाबदारी फक्त आवयचीच काय कितें?

बापूय जर धड आनी घट्ट आसत, तर कुटुंब बरें चलता.

बाबा : हय म्हजे जाणवाये! खरें तुजें. आनी पळय आवय वळण लायता त्याच वळणार भुरगीं चलतात. तुका हाच्या ताच्या दारांत बसून गजाली मारपाक जाय न्ही? मागीर, भुरग्यांची चिन्नां अशीं जाता.

आई : पुरो - पुरो, हांव तुमची सिर्वीदोर न्हय. बरी लग्न करून हाडिल्ली तुजी घरकान्न. म्हाकाय तुमचे इतलोच अधिकार आसा उलोवपाक.

बाबा : आगे, आगे, अधिकाराविशीं बरी उलयता मगे. भुरगे तवनास जाल्यात. आनी ही आपली व्हडली उलयता. मान सकयल घालून भोंवपाची वेळ आयल्या आनी ही म्हजी अर्धांगिणी छाती फुलोवन भोंवता.

आई : हें पळयात, वगीच म्हजी तकली तापयनाकात. हें घर एक गोरवां गोठो जाला. खंय कितें चल्लां ताचें कोणाकूच पडूंक ना. सकाळच्यान हांव बोवाळ करतां, तेल ना म्हणून. हाडलें तुमी तेल? तांदूळ सरत वतात. सोल ना. मिरसांग ना. कशें रांदप? कशें वाडप? जीव दितलीं आशिल्लीं.

बाबा : कित्याक तिखशेता गे? आसा तशें पावोवन वाड. चड सुबेज जाल्यात ते भुरगे. हांव म्हजें जेवन आयलां फट्यागेर. ताचे घरकान्नीन बरी बांगड्यांची हुड्डीमेथी आनी सुंगटाचें सुकें केल्लें. आनी लोणचें कितें झकास! त्याभायर कारात्याचें रायतें. अजून जिबेर रूच उरल्या.

आई : (चाळवून) हय हय. जिबेर रूच उरली? दुसऱ्याच्या बायलांच्या जेवणाची तुरतुरी वाजयतात. घरांत झकास जेवण करपाक त्यो त्यो वस्तू नाकात तर? काय बरें रांदप जाणा हांव. म्हज्या हातांत पाकदेवता आसा म्हण्टाली म्हजी आई. आनी हांकां पळयात. कशी म्हजी दींड काडटात ते. शी

नाका जालो म्हाका संवसार. जीवूच दिल्यार बरो हांवें बांदार.

बाबा : (हांसता) जीव दितली खंय. (लोकांक) तुमी त्या कोंबये पिलाची काणी जाणात न्ही? ताचे फाटीर पान पडलें आनी मळब कोसळ्ळें म्हणून भिवन, बोबो हुयेली मारीत सगळ्यांक पिशार काडिल्ले ताणें. ही म्हजी घरकान्नूय तसलीच. जीव दितली खंय? कट्टीभर उदकांत नाक तरी बुडोवंक तुका काळीज जातलें मगे?

आई : हें पळयात. वगीच तिडावंक नाकात म्हाका. बरें वळखलेना तुमी. खऱ्यांनीच सांगतां. नॅरवांचेर पेज आयला म्हज्या. आनीक चड म्हज्यान सोंसूक नज. वतांच हांव तोंड घेवन. (अमेय येता) बांदार तर उदक भरिल्लेंच आसा. (आई तुरतुरीत वता - अमेय आडावंक वता. बापूय ताका फाटी काडटा.)

बाबा : आरे पिश्या. तुमची आई खंयच जीव बीव दिवंक वचचीना. हांव सांगतां. नीट्ट वतली त्या शालीगेर, खबरी फोडपाक. इश्टीण न्हय ती तिची? हिका तुमी वळखनात. शाणी ती शाणी. आमकां पिशांक पिंपळ दाखयता. आयज बरीच चडून आसा. राग नाकार बसला. पूण न्हिवतलो बेगीनूच. तूं थंड राव. आनी आयक दळिद्र्या. फाल्यांच्यान सारको इश्कोलाक गेलो ना जाल्यार, पाद्रील्या बोर्डिंगांत घालतलों बद्द.

अमेय : नाका बाबा - नाका. हांव शाळेंत वतलों. विद्येच्यान!

बाबा : आरे विद्येक खाली तुवें गड्ड्यांनी मोखून. विद्येचो सोपूत घेता, अवचित्र खंयचो.

अमेय : बाबा, आई खऱ्यांनीच जीव दिवंक वचूं ना मरे? शाली मावशेगेर उरतली मरे ती? पळोव हांव वचून?

बाबा : नाका रे पापया. तुजे आईक आपलो जीव नाका जाला? थोड्या वेळान येतली परत, म्हजो जीव खावंक. तेल हाड, मीठ हाड, हळद हाड, जिरें हाड... हं...

(अमेय भितर वता. बाबा कोट तोपी काडून भितर दवरून भायर येवन गाणें गुणगुणटा. संजू बूक घेवन भितर सरता.)

बाबा : आरे, संजू कितलो वेळ जालो रे इश्लोक सुटून? वेळ कित्याक जालो येवंक?

संजू : (भियेवन) आं... वेळ जालो... कसो? आं, बाबा हांव सवकास चलून आयलां.

बाबा : वाह - वाह ! काय बरें उत्तर सुचलें. आरे, तूं तो सवकास चलपी. ह्या दनपारच्या भारार पोट हातांत घेवन धांवत येवपी मनीस तूं. आंगणांत पावलो रे पावलो, तुजें ताट वाडून तयार आसपाक जाय. सारकें सांग. वेळ कित्याक जालो? चिंचेबोटां पुंजावंक गेल्लो काय बोरीक हालो घालपाक?

संजू : ना बाबा. खऱ्यांनीच ना.

बाबा : मागीर, वेळ कित्याक जालो? फाल्यां इश्कोलांत येवन विचारतां.

संजू : नाका बाबा नाका. सांगतां. आयज सकाळीं हांवें सिविक्स बूक व्हरूंक नाशिल्लो न्ही आनी थोडो अर्धकुटो आशिल्लो म्हणून टिचरीन शाळा सुट्टकीर बुक पुराय करूंक दवरलो.

बाबा : आं अशें तर. कसलीं कामां आसतात तर तुमकां दुसरीं. अभ्यास सारको करूंक ना कित्याक? बूक अर्धकुटो कसो उरलो तर? तकली खंय आसा तुजी? (संजू मान पोंदाक घालून उबो. मनोज भितर येता.)

मनोज : बाबा, आई अशी घरांतल्याच कापडान, दनपारची खंय

गेल्या रे? बांदावटेच्यान वतना पळयल्ली हांवें.

बाबा : (भियेवन) देवा धनया पाव रे! खऱ्यांनीच गेली काय कितें ही? आरे, चलात चलात, धांवात. वायट बरें करीत आपल्या जिवाचें. सायबा म्हज्या! म्हजोच गुन्यांव जालो. (कोट तोपी घेवन भायर येवन घालता. बंडूक आनी अमेयाक उलो मारता. बंडू दोळे घांशीत येता. अमेय येता. बाबा वता.)

बंडू : मनोज कितें जालां रे. पोटाक भूक लागल्या. काय बरो न्हिदिल्लो भुके पोटार.

मनोज : आरे बंडू, ह्या वेळार तरी पोटयेपणा सोड रे. आयकलां मरे आई ना ती. हांवे तिका बांदावटेच्यान वतना पळेल्या. जीव दितली म्हण्टाली खंय. (अमेय धांवता.)

बंडू : (रडटा) आई. तूं गेली जाल्यार म्हजें कशें जातलें गे? (ओ ओ ओ) म्हज्या पोटाचो परामूस कोण करतलो गे? (रडटा)

मनोज : शी, शी... तूं आनी सामकोच मरे. आई फक्त तुका रांदपाक आनी वाडपाक जाय कितें? चल या आमी, सोदपाक.

बंडू : (दोळे पुशीत) हय. या आमी.

(सगले आईक सोदपाक वतात. आईक घेवन येतात. बंडू पालवाक धरून येता.)

बंडू : आई, कितें गे? अशें म्हणून करप? म्हजे दोळे पळय सुजले रडून.

अमेय : चूप रे! आई कशें तुका दिसलें गे आमकां सोडून वचूंक?

(आई मान पोंदाक घालून आसा.)

बाबा : आगे, फकाणांय समजनात कितें? शंभरांतल्यान सोदून काडून, तुका माळ घातिल्ली मगे हांवें. तूंच म्हाका अशी

सोडून गेल्यार, कोण लागी करतलो म्हाका? (पोले फोडून घेता) शी-शी. चुकलें म्हजें. म्हाका भोगशितली मगे. (म्हन्यांत वचून विचारता)

आई : (मान वयर करून) अशें कितें उलयतात तुमी? चुकलें म्हजेंच. भांगरा सारको घोव आनी माणकां कशे भुरगे देवान म्हाका दिले. आनी हांव खोंट मारून गेली. सांवार सो आयलो म्हजेर. अजापूच दिसता म्हाका म्हजेंच. चुकली रे हांव. परत केन्नाच अशी करचीना. (घोवाक पांय पडटा.)

मनोज : आई, चूक मागून आमकां लजेक घाली नाका. तूं परती आयली हेंच आमकां पुरो.

बंडू : आई तूं खऱ्यानीच जीव दिवपाक गेल्ली? मागीर दिलोना कित्याक?

आई : ना रे म्हज्या बंड्या. म्हाका खंय धीर जालो. खरें सांगू (लजता) म्हाका उदकाक पळोवन घुंवळ येवंक लागली आनी रागाचो हुंवार देंवलो सोमतोच आनी पाय थरथरून थंयच बसकण मारली.

बंडू : बरें जाले. 'भिरांतीन' राखली आमकां. आतां तरी जेवण रांदतली मगे?

आई : (बंडूक पोशेवन) हय.

बाबा : (लोकांक दोळे मोडून) आगे, त्या बांदावयल्यान व्हांवतल्या उदकाचो भंय दिसलो तुका? हांव तरी येता आसलो धीर दिवंक. राव. भितरल्यान एक कट्टीभर उदक घेवन येतां.

(सगले भुरगे 'बाबा' म्हणून तशेच खांबे कशे उबे रावतात. आई लजता.)

(सोंपता - पड्डो पडटा.)

# हांथरूण पळोवन् पांय सोडूंक जाय!

पात्रां

आई

बाबा

भुरगीं

पूजा

शमी

प्रियेश

अनील

रोगलो

## देखाव पयलो

(हाफ पेंट आनी बानीयान घालून बाबा पेपर वाचता. सादीच साडी न्हेशिल्ली आई सुपांत तांदूळ घेवन वेंचता. तांदूळ वेंचता आसतना मदीं मदीं घोवाक पळयता. निमाणे तो आपल्याक कसोच पळयना तें पळोवन, सूप मेजार दवरून, घोवा मुखार वचून विचारता)

आई : आयकतात, मालीच्या लग्नाक आतां मेजून धा दीस उरल्यात. (रडकुरी जावन) अपुर्बायेची एकटीच भयण म्हाका. आनी सगल्या भावंडामदीं धाकटें तें. बरी गडगंज वस्त घालपाची उमेद आशिल्ली म्हाका.

बाबा : आगे, तुज्या गळ्यांत पळयलां? मंगळसुत्रा भायर आनीक कितें आसा? हाताक पळय तुज्या त्या दोन कांकणा शिवाय आनी कितें आसा? इतलें आसूनय भयणीक भांगर घालपाची उमेद शी जाली तुका?

आई : आवय आवय! इतले तिडकले कित्याक? हांवें केन्नाच करंदाय केल्या तुमचेकडेन म्हाका कितेंच जाय म्हणून? तुमचे सारको सर्वसंपन्न गुणांनी भरिल्लो घोव मेळ्ळा. तुमचे मुखार तें भांगर म्हाका किमतीचें न्हय. म्हजें उलोवन' सोंपचे पयलींच मारली झोपय घोणी बशेन.

बाबा : बरें बरें! उलय. कितें म्हण्टाली?

आई : हांव व्हडली भयण आनी तूं एकटोच अपुर्बायेचो भावोजी. म्हण्टकीर बरो सो अहेर दिवंक नाका? भांगराची वस्त तर आमच्यान कशीच घडचीना.

बाबा : तूं इतली शाणी आसूनय पिशेपणां कित्याक करता? म्हजी तांक कितली आनी म्हजीं भुजां कितलीं अखंड आसात तें भेस बरें खबर आसा तुका. बरें, कितें अशें दिवन दिसता तुका?

आई : (भियेवन) स्टिलाची घागर आनी कळसो.

बाबा : कितें? भूतनाथा, पाव रे म्हाका! कितले पयशे पडटले हाचो मात तरी अदमास आसा तुका?

आई : पडत हजार भर.

बाबा : आगे, म्हज्या बोल्सांत धड शंभर रुपया नात. ऑफीसांत सुद्दां म्हाका कोणूच मागल्यार दिवंक तयार आसचोना.

आई : अशें कित्याक म्हण्टात तुमी? पगार पडटकर मागीर दिंवचे.

बाबा : गेल्या म्हयन्यांनी घेतिल्ले तेच आजून दिवंक शकलोना. सगल्यांकडेनूच रिणां काडल्यांत. तोंड दाखोवंक सुद्दां लज दिसता.

आई : हें पळयात. आमची अब्रू वतली चार चौगां मदीं. कितेंय तरी करात.

बाबा : गडगड नाशिल्ली वीज पडूं ते अब्रूचेर! म्हजी अब्रू तर केन्नाच गेली ऑफीसांतली. आतां, तुका कोणाकडेन मेळटा जाल्यार पळय.

आई : दिवन-दिवन, कोणूय दियत एक, चारशें - पांचशें.

बाबा : मागीर तांतूतल्यानूच भागोवया. कितें मेळटा तें घेवन दिवया म्हजे मेवणेक.

आई : त्या पयशांभितर कितें येतलें शें दिसता तुमकां?

बाबा : (चिंतता) स्टीलाचे डबे?

आई : आवय! हो म्हणून भयणीचो अहेर?

बाबा : मागीर? (दोगांय चिंततात) बरें स्टीलचें पींप घेवया तर व्हडलें.

आई : (खूश) जांव ही तरी दोळ्यांत भरचे सारकी वस्त. बरोबर

मागीर एक तोप दिवचो पयशे उरल्यार. (लोकांक) व्हडले भयणीन कितें दिलां? भावोजीन कितें घालां? विचारचीनात ताची मांय-मांव?

बाबा : तुज्या मांय-मांवान कितें विचारिल्लें म्हजे सुंदरे?

आई : (लजून) आवय, तेन्नाची ती याद काडल्यार लज शी दिसता. म्हाका विचारिल्लें तुजे आईन. काकीन, मामान कितें घालां? काकान कितें घालां? हांव सगल्यांत व्हड न्हय, आनी भाव नोकरेक लागूंक ना तेन्ना, म्हण्टकीर भांवडांनी कितें घालां म्हणपाचो प्रश्नूच येवंक ना.

बाबा : मागीर, कितें घातिल्लें गे मामान आनी काकान तुज्या?

आई : आवय, अशें कितें तुमी? कांयच नकळो जाल्ले भशेन उलयतात. ही कानांत आसा ती वेड म्हाका मामान घातिल्ली, व्हडली भाची म्हणून. आनी काकान दिल्ली मुदी आमी शमीचे मूजीक लागून विकूंक ना?

बाबा : पळयात हिका, कशी वयर काडटा ती. हिकाच जाय आशिल्लो थाट-माट मागीर हांवे म्हळें, तूंच जमय पयशे. हांव एक प्यून म्हणून नकळो आशिल्ली काय कितें ही? जावंची आशिल्ली ऑफिसराकडेन लग्न.

आई : आयज सकाळी उट्टनाच कोणाचें तोंड पळयल्लें तुमी? सगलेच तांबडेशे जातात बाळ्या बशेन!

बाबा : चूप राव! आनीक तिडक हाडूं नाका. (शर्ट घालता). आयतराची सुद्दां घरांत बसून पेपर वाचपाक शांती ना. (भायर सरून वता.)

आई : (कपलार हात मारून) जालें. आयलो राग. हांकां तिडक इल्ली चड. बोंबले देंठाकडल्यान कपलाक मारता. हरशीं एकदम मोवाळ. म्हजेंच चुकलेंशें दिसता. हांवें ते मुदयेचें

प्रकरण वयर काडूंक नाका आशिल्लें. दुसरे फावट दखल घेतली हांव. आयज हांचो राग थंड करपाक तांचे आवडीचो आमाड्या रोस करतां आनी सुक्या बांगड्यांची किस्मूर. बरो मस्त जेवतकीर मागीर दर्या शांत. (आई भितर वता. शमी आनी प्रियेश बॉल-बॅट घेवन येतात.)

शमी : प्रियेश, माली मावशेच्या लग्नाक आमकां नवे कपडे जाय म्हणून सांगूंक जाय न्हय रे आईक?

प्रियेश : हय तर. नाजाल्यार हांव कसोच येवचोना लग्नाक.

शमी : सगले लोक नवे कपडे घालून आसतले आनी आमी व्हडले भाचे जावन, पोरणे घालून वचप?

प्रियेश : आनी पोरणेय म्हणून, लग्नाक घालपासारके आमचे कडेन कितें आसा? जात्रेकय तेच. सांजची क्लास आसल्यार इश्कोलांत जाल्यारय तेच आनी दोतोरागेर वचपाकय तेच.

शमी : आनी लग्नाकय तेच घालप म्हणजे, अपमान न्हय रे? लज शी.

(इतल्यान उरफाटी तोपी घालून आनी लांब टीशर्ट घालून अनील येता. चोंचऱ्यानी उलयता.)

अनील : भाई कितें उलयताले ले? कोनाचो अपमान जातलो म्हन्ताले?

प्रियेश : (लोकांक) आयलें हें सवंग. अठरावें रत्न आमचे आईचें.

शमी : प्रियेश, ओगी राव रे. तो रडपाक लागल्यार मागीर आमकां पडटलो लडो.

(प्रियेश ताका चाळयता.)

अनील : पलय ले भाई, कसो चालयता तो? कितें उलयताले ले? खलेंच आईक सांगचोना.

शमी : आरे, आईकूच सांगपाचें तें. व्हडलो आयला सेग्रेद सांबाळपी.

| | | |
|---|---|---|
| प्रियेश | : | हो लुचको सांगचोना म्हणून आमचे कडल्यान लाडू पिपिरमिटां खाता आनी ल्हवूच वचून आईचे कान फुंकता आनी आमकां खावयता मागीर 'मार-लाडू'. रागूच येता म्हाका ह्या अजागळाचो. कित्याक जाल्लो म्हणून देव जाणा? |
| शमी | : | हय भाई. (प्रियेश ताका चाळोवन हेवटेन तेवटेन पळयता.) |
| शमी | : | माली मावशेचें लग्न म्हणून जाणा मरे तूं? |
| अ़नील | : | (उडयो मारीत) हांव जाना, हांव जाना. हांव वतलों लग्नाक, म्हजी लामेली पँत घालून हांव वतलों. लादू खातलों, आईस्क्लीम खातलों. हा हा... |
| प्रियेश | : | पळयात, खेतें कशें नाचता तें. कोर्द दिल्लो माकोड. |
| शमी | : | अनील, बंद कर तें नाचप. ती लांब पँट घालून वतलो तूं? |
| प्रियेश | : | हो दिसतलो सर्कशींतलो विदूशक. हांव ज़ाल्यार हाका म्हऱ्यांतूच घेवचोना. सामकेंच अजागळ शें. पँट कितली मोटवी आनी टायट जाता, हें ताका समजना. |
| शमी | : | अनील, ती पँट तुका सोबना रे. आमी आईक नवे कपडे शिवंक लायतले. तूं तुकाय माग. (पूजा येता.) |
| अनील | : | पूजा ताई, तूं येतलें मगो, माली मावशेच्या लग्नाक? आमी नवे कपडे शिंवतले. कूयऽऽ कूय. |
| पूजा | : | आनी हांव कितें सोडटलें कितें? म्हाका बरो चुडीदार घेवंक जाय. ताचेर मॅचींग कांकणां, माथ्याक मॅचींग क्लीप आनी पायांक मॅचींग सेन्डल्स. त्या भायर तिकली आनी मुदी. |
| प्रियेश | : | आवय, पुरो गो इतलेंच? पांयजणा नाकात? व्हडलें आयलां जूही चावला. नेटूच मारता व्हडले. |

पूजा : तूं ओगी राव रे खड्ड्या. हांव एकटेंच अपुर्बायेचें. तुमचे भशेन ह्या घरांत तीन चलयो नात.

प्रियेश : जाल्यार फाल्यांच्यान आमी तिनूय भाव तुका माथ्यार मारून भोंवतात.

पूजा : फाल्यां लग्न जातकीर बायलेक माथ्यार घेवन भोंव.

अनील : ही - ही (हांसता) पियेश बायलेक माथ्याल मालून भोंवतलो (चाळयता - हांसता, प्रियेश मारूंक वता. पूजा आईक, भूक लागल्या म्हणून उलो करीत भितर वता. अनील ताचे फाटल्यान भितर वता.)

प्रियेश : भाई, कितें करूंया? आईक उलो कर. हांवे आपयल्यार चाळवतली बेश्टीच. म्हजेर म्हणून सगलींच कित्याक तिडक काडटात देव जाणा? (लोकाक) हरशीं हांव बरो भुरगो जाणा?

शमी : आई... आई... (भितर वचूंक वता - पूण आई हात पुशीत भायर येता.)

आई : कित्याक आड्डता रे? पूजा, चुलीर तोप आसा ताचेर मातशी नदर दवर. रोस ओतून वतलो. उजो मातसो कमी कर.

शमी : आई, माली मावशेच्या लग्नाक आमकां नवीन कपडे शिंवतली मगे?

आई : नवीन कपडे? बाबाक म्हणूनच पळयात. खिचडी खातले, खिचडी. (प्रियेश तोंड वांकडें करता.) हें रे बाबा कितें? नवीन मागण्यो श्यो?

प्रियेश : आई, आमकां नवीन कपडे ना जाल्यार. येवचेनात आमी लग्नाक. तुवें लालेवन आपयल्यार सुद्दां येवचेनात आमी.

आई : नाका येवंक. हें आनी बाये नवलच शें. तिकेटीचो तरी खर्च कमी जातलो. व्हडलो आयला धमकी दिवंक म्हाका. खंय शिकला रे उलोवंक?

शमी : आई, प्लीज गे. चवथीक, ना म्हणून दिवाळेक सुद्दां आमकां नवीन कपडे शिवूंक ना. ह्या निमित्त्यान तर शींव न्हय? आमचे बरोबरचे नवीन नवीन कपडे घालून भोंवतात.

आई : हांव जाणा रे म्हज्या बाबा. पूण हांव म्हणून कितें करूं? बाबाचो पगार आमकां जेवणाकूच पावना. नवे कपडे खंयचे?

प्रियेश : म्हयनो सोंपत आयलो मगे. पगार पडटकीर घे आमकां कपडे.

आई : हो आनी हुतहुतो सो. हो पळय बाबा येता. तांकांच सांगात.

(आई भितर वता. बाबा येता. पेपर मेजार दवरता. शर्ट कदेलाक लायता. हेवटेन तेवटेन पळयता. सट्‌कन ताची नदर प्रियेश आनी शमीचेर पडटा.)

बाबा : कितें जालां रे? जोडयेनशे उबे रावल्यात. नाटकाची येसाय मारतात काय कितें?

(दोगूय एकामेकांक पळयतात).

वाचा धरल्या काय कितें? काय मोन्याचें सवंग करचे आसात रे नाटकांत? (लोकाक) एका परस एक संवगां.

प्रियेश : (धीर घेवन) बाबा - बाबा आमकां माली मावशेच्या लग्नाक - आमकां...

बाबा : (रागान) कितें? माली - माली - माली. ह्या दिसांनी मालीचें नांव आयकून आयकून म्हालें म्हजें चाळवलां. कितें जालें रे माली मावशेच्या लग्नाक?

प्रियेश : आमकां नवीन कपडे जाय.

बाबा : आरे पुतानो! बापायन शेतांत दुड्डू वोंपल्यात रे? आमची परिस्थिती खबर ना तुमकां? तुमच्या बापायन एकदां तरी नवो बुशकोट केल्लो पळयला? आईक नवें पातळ घेतलां ह्या वर्सांनी? बोनस मेळटालो तेन्ना वर्सा-वर्सा नवीन कपडे मेळटाले. आतां पगार मेळटा तो तुमकां जेवंकच पावना आनी लग्नाक तुमका नवीन कपडे जाय?

(अनील भायर येवन, बापायक पळोवन भितर धांवता)

म्हज्यान नवे कपडे दिवंक जांवचेना. (भितर वता.)

प्रियेश : भाई, हांगेलें चड जालां. आतां आमी कसलोय तरी उपाय सोदून काडूंकच जाय. लग्न चुकोवंक जाता रे?

शमी : (चिंतता) प्रियेश पळय, सगलेच कडेन आता संप, दंगल, भूख हरताळ करून आपल्यो मागणी पूर्ण करून घेतात. पगार वाड, मंत्र्यांक देवोवंक, अशीं कितलींशीच कामा करून घेवंक हरताळ यशस्वी जाल्यात.

प्रियेश : हाका आनी पळयात. ओगी कितेंय म्हळें म्हण जाता? आरो वता म्हण खंय गांयडोळ गेल्लो, चिड्डून मेल्लो.

शमी : आरे गांयडोळा, हुळहुळूं नाका बेश्टोच. आयक तरी. आमकां गांव एकठांय करपाक नाका. आमी दोगूच पुरो. आईक तूं वळखून जाणा. कोंबये पिलाचें काळीज तिचें. रोखडीच भितली.

प्रियेश : हें आमी कशे सादोवन घेतले?

शमी : आयक. आईक सांगया, फाल्यांच्यान आमी इश्कोलाक वचनात म्हणून. जेवण खाण बंद.

प्रियेश : भाई तुजी पयली माण्णी म्हाका मान्य. पुण दुसरी... शी, शी... म्हज्यान बाबा जावचेंना रे. भुकेन हांव वळवळटलों.

कितेंय दुसरें सोदून काडुंया.

शमी : आरे वसवश्या, तुका भुकेन रावचोच पडचोना. अनीलाक फुसलावन भितरल्यान कितेंय हाडूंक लावया. पोट भरया पूण वयल्यान तोंड सुकोवन दाखोवया.

प्रियेश : बरें. तशें जाल्यार मान्य. पूण तें लुचक आमचो प्लॅन यशस्वी जावंक दितलें? नाजाल्यार, ''हांव आईक सांगतलो, बले चोलून खातात म्हणून,'' अशें म्हणचोना न्ही तो? म्हाका जाल्यार रागूच येता ताचो. विश्वासूच ना म्हजो ताजेर.

शमी : हांव समजायतलों ताका. तूं मात मदीं उलोवंक नाका आनी ताचे वाटेक वचूं नाका. पूजाकय भागाक घेवंया.

प्रियेश : तूंच कर तें काम.

शमी : पूजा, अनील (उलो करता. दोगांय येतात)

पूजा : कितें जालें रे भाई? (अनील कुशीक उबो रावता.)

शमी : पळयात (अनीलाच्या खांद्यार हात दवरता). आमकां नवीन कपडे मेळोवन घेवंक, आमी एक प्लॅन काडला. तुमी तयार आसात?

पूजा : हांव जाल्यार एका पांयार तयार!

(अनील लोल्याबशेन, एकामेकांच्या तोंडाक पळयता.)

शमी : पळय. आईक सांगपाचें फाल्यांच्यान इश्कोल आनी जेवप - खावप बंद.

अनील : शी... हांव जाल्याल तुमचे बलोबल ना ले बाबा. म्हाका फाल्यां बाबीन आपयला चिंचेबोतां आनी बोलां पुंजावक. शालेंत गेंलो ना जाल्याल, म्हाका बोलां आनी चिंचेबोतां कोण दितलो? आनी जेवलो ना जाल्याल हांव मलतलो

मले. म्हाका बाबा नाका नवीं कापडां. म्हाका जाय जेवन. हांव पोन्नेच घालून वतलों माली मावशेच्या लग्नाक.

प्रियेश : भाई, सांगूक ना तुका, ताका शामील नाका करूंक. पूजा तूं आसा मगो तयार?

पूजा : हय तर. नाजाल्यार आई-बाबा कशींच आयकुचीं नात. (आपले भितर उलयतात. अनील कितें सांगीत आईक भितरल्यान घेवन येता. प्रियेश खुणानीच शमीक सांगता, अनीलान आईक शिटूक केली म्हणून. तिगांय लायणीन उबीं रावतात.)

आई : हें आनी कसलें अजाप घडलां तर? लायणीन सोल्दाद शे उबे रावल्यात. झेंडा वंदनाक?

शमी : आई, हें पळय. मावशेच्या लग्नाक जर आमकां नवे कपडे दिना, तर फाल्यांच्यान आमी इश्कोलाक वचचेनात. जेवप खावपय बंद.

अनील : आई, हांव तुजो शानो न्हय गे? हांव शालेंत वतलो गे. आनी हांव जेवनासतना लावचोना. म्हाका नाका नवो शल्त पँत.

आई : खरेंच हो धाकटो जावन हाका हांचेपरस चड गिन्यान आसा. हीं चार क्लासी शिकतात म्हणून नेट दाखयतात. आवय बापायचे कश्ट कमी करचे बदलेक, तकलेर आनीक पेज दवरतात. हांव म्हज्या अहेराचें चिंततां आनी हांकां नवीन कपड्यांचें पडलां.

प्रियेश : म्हणजे, आई, अहेर घेवंक तुजे कडेन पयशे आसात तर? कपडे शिवंकय आसतलेच.

आई : हें पळयात, तुमचीं हीं असलीं नाडींगपणा हांव आयकून घेंवची ना.

शमी : आई, आमी जेवण जेवनासतना बिछ्यान्याक लागले म्हणटकीर कळटलें तुमकां.

आई : हें पळयात. तुमकां हांव बरी वळखतां. एक दीस सांजची च्या घेतली ना जाल्यार तुमच्या पोटांत घोली जातात. असल्या चुडटा सोरपाक हांव भियेना. पूज़ा, तूंय तांचें आयकता गो?

पूजा : (भियेवन) हय. एक बरो चुडीदार सुद्दां म्हजेकडेन ना.

आई : म्हण्टकीर तुज्याय काळजाक तांचे बशेन केंस फुटल्यात तर? आनी हें पळयात. बरे नवीन कपडे घातल्यारूंच मनीस जायना. कपडे निवळ आनी नीट आसल्यार पुरो. तेच बरोबर आपलें अंतसकर्ण आनी करण्यो भुरग्यांनी निवळ सुंदर सांबाळूंक जाय. कपडे हो भायलो शो. निमणे, उरता तें बरी देख आनी वागणूक. हें कमोवंक झटात. असली अडेचीं नाटकां बंद करात. (भितर वता, अनील तांका चाळोवन वता.)

(भुरगीं एकामेकांमदीं उलोवन, संपाखातीर तयार)

शमी : आमचो भूख हरताळ आयच्यान सुरू. पळोवया, कशें जाता तें. यशस्वी करून दाखोवया. (मुठ वयर करून गीत म्हणटात.)

हम होंगे कामयाब (२)
हम होंगे कामयाब एक दीन, ओ ओ
ओ हो मन में है विश्वास,
पूरा है विश्वास,
हम होंगे कामयाब एक दीन.

(काळोख)

## दुसरो देखाव

(बाबा ऑफीसांत वचपाक भायर सरूंक वता. आई जेवणा डबो बापायकडेन दिता. वचूंक वता.)

आई : आयकतात? शमी, प्रियेश आनी पूजा कालच्यान शाळेंत वचनात आनी जेवीय बी नात. कालच्यान शितांत शीत घालून जेवंक सुद्धां वीट आयली. सामकींच हट्‌ट धरून बसल्यांत.

बाबा : (तिडकीन) म्हणजे? तांच्या हट्‌टा मुखार हांवें मान बागोवची काय कितें? शक्यच ना.

आई : हांव तशें म्हणीना. तुमी तरी फुसलावन पळयात. आयकतलीं तीं.

बाबा : ना. पोटाक भुकेचो चिमटो येवंदी. मागीर आपूणच येतलीं, तोपलीं उगडूंक आनी शाळेंत वचपाचें हांव पळोवन घेतां. आयजूच हेडमास्तराक मेळटां. तांच्या कारस्थानांची खबर दितां. हांवें आयकलां एक एक भुरग्याची तो दखल घेता म्हणून. तांकांच मातशे पांयां पडटां आनी येवन ह्या हट्‌टी पोरांक समजावंक सांगतां. हांथरूण पळोवन पांय कशे सोडूंक जाय, हें तांकां कळूंक जाय.

(दारार खटखट आवाज. कुर्ता घातिल्लो खांद्यार तुवालो घेवन रोगलो येता.)

आई : येयात, येयात. कोण रोगलो रे? बरो आसा मू? भुरगीं बाळां बरीं न्ही?

रोगलो : हय हय! एक वायट खबर दिवंक आयलां हांव.

बाबा : कितें जालें?

आई : देवा कसली खबर हाडल्या काय?

रोगलो : वयनी, तुमची ती शांता काकी आयज फांतोड्‌डेर वायट जाली.

आई : देवा पाव. बरी नाशिल्ली म्हणून आयकल्लें. खबरेक पावंकच ना. मालीच्या लग्नाक वतलें तेन्नाच खबर घेतली म्हणून आशिल्लीं. (बाबा सुस्कार सोडटा.)

रोगलो : हें पळय. सुतक लागलें न्ही? मालीचें लग्न फुडें धुकलचें पडलें. केन्ना तें सेर्त खबर ना. मागीर थारायतले.

आई : चू... चू... भंगू मालीचें.

बाबा : हय हय. सुतकांत लग्न जांवचेना. (खूश जाता.)

रोगलो : बरें येता हांव.

आई : इल्ली च्या घेवन चलात न्ही.

रोगलो : ना. भायर भाड्या मोटार सायकल रावता. आनी हेरांकूय सांगूक जाय न्ही. आयज सांजचें चारांक मरण. (रोगलो वता.)

आई : आतां, मालीच्या लग्नाची धांदल जाली. परत परत तयारी करपाक म्हणून उमेद येवं नाका?

बाबा : लग्न जातलेंच गे. पूण ही तुजी काकी मरून मात आमकां देव पावलो आं. बशिल्ले कडेन, ह्या म्हयन्याचो खर्च कमी जालो. फुडलें, फुडें पळोवया.

आई : म्हणजे? म्हजी काकी गेली ताचें दुख्ख जावचे बदलेक, बरे खोशी जाले तर तुमी?

बाबा : ना गे बाये. हीं सुतकां आमच्या असल्या गरीबांक बरीं पडटात. ह्या म्हयन्यांत म्हज्यान कशेंच तारूं ताणूंक जांवचें नाशिल्लें. ह्या म्हयन्यांतलें हें विघ्न तुजे शांती काकीनूच निवारलें. (देवाक पांय पडटा.) यमदेवा, व्हडलो उपकार



केलो म्हजेर. आतां आपय तुज्या लाडल्यांक आनी सत्याग्रह मोडपाची ओर्द दी. आवय, वेळ जालो. पूण कांय नज, व्हडलो पेज माथ्यावयलो कमी जालो. (गुणगुणत वता.)

आई : (लोकांक) वायट धरपाचें न्हय हां तांचें. ती म्हणून जाण्टीच न्हय? कितलो तेंप पिकिल्लें पान झाडाक उरतलें? गळून पडूंकच जाय. येता त्या म्हयन्यांत मातशें सुधारप आसतलें म्हण्टाले ते, पगारांत. (भुरग्यांक उलो करता) शमी, प्रियेश, पूजा हांगा येयात.

(अनील धांवत येता.)

अनील : कित्याक पियेशांक आपयता गे आई?

(तिगांय जीव गेल्लेवरी चलून येतात.)

आई : अनील, माली मावशेचें लग्न फुडें व्हेलें.

अनील : कित्याक गे आई?

आई : तुमकां याद आसा, ती म्हजी एक काकी खाक्यांत पोटली मारून येताली ती?

अनील : हय. आनी आमकां बलो गोड घालून केळी पानाल भाजिल्लो भाकलेचो हाडटाली ती न्हय?

आई : हय हय. रिकाम्या हातांनी केन्नाच येना आशिल्ली. फोव तरी कांडून हाडटाली. म्हजेर खूबच जीव तिचो. ती खंय आज फांतोड्डेर मेली.

(तिगांय आं करून पळेतात.)

आई : तुमचो आतां संप सोपयात. मावशेचें लग्न केन्ना हाचें थारावंक ना. तोंड धुवन कितेंय खायात. एका दिसानच पळय बोकीं जालीं. आरे, तांक आसा तुमकां भूक सोंसपाची? आपल्याक तांकता तितलेंच करचें. अशें ओडूंक जांवचे ना तसलें वजें माथ्यार घेवचें न्हय.

अनील : (रडटा) आई, आतां आइस्क्लीम मेलचीना, लादू मेलचे ना. ती आनीक आतांच मलूंक जाय आशिल्ली?

शमी : प्रियेश, दोन दिसांचो उपास फुकट गेलो मरे?

पूजा : कित्याक फुकट गेलो? लग्न मोडलां तर. केन्नाय तरी आसतलेंच न्हय?

प्रियेश : हय भाई, पूजा सांगता तें सारकें. हे त्या अजागळाक पळयात. आईस्क्रीमीक रडटा. (अनील आई फाटोफाट भितर वता.)

(तिगांय परत गीत म्हणटात पूण सवकास.)

हम होंगे कामयाब...

(सोंपता - पड्डो पडटा.)

# एलिसांव

<u>पात्रां</u>

आई

बाबा

विठ्ठल

उमेदवार (१)

उमेदवार (२)

उमेदवार (३)



## देखाव पयलो

(घर : बाबा बसून विडी ओडटा. भेंडाक तुवालो बांदून आसा. आई सादेंच कापड न्हेसून भेंडाक लुगट बांदून, सान्न आनी खोंटलो घेवन भायर येता. फाटभुंयेर वेंचणूक प्रचाराचो आवाज.),

आई : (भायलो आवाज येता) आवयस! कितलो बोवाळ गा! आड्ड्तात सामके कांवळ्या भशेन. ताळो खरखरीत जातलो मगा ह्या पोरांचो. अशें कितें हें? कोण म्हण्टा, बोटार शिक्को मार! कोण म्हणटा घोड्यार शिक्को मार, आनी कोण म्हणटा झाडार शिक्को मार. कोणाचेर म्हणून शिक्को मारप?

बाबा : आगे, तुका दिसता तशें करपाचें. जो उमेदवार तुका दिसता काम करपी सो ताकाच तुजें मत दी.

आई : म्हाका बाबा असलें समजना. हातांत पेन धरपाक म्हाका जमना. शिक्को मारप कसो तेंय म्हाका समजुचेंना. हांव बाबा वचचीना, मतां आनी पोतां दिवपाक.

बाबा : सामकीच मगे तूं गांवढळ. शाळेच्या बांकार बसलीना जाल्यार कितें जालें? गिन्यान ना तुका मात तरी? शिक्को मारप आतां पयलीं बशेन उरूंक ना. आता मशीन आयलां, मत दिवंक, जाय त्या उमेदवाराचे निशाणी मुखार आशिल्लो बट्टन दामपाचो. पीं... आवाज आयलो, जालें मतदान. राव गे. तुवें केन्नाच मत दिलें ना तर?

आई : केन्नाच ना. एलिसावांचो बोवाळूच फकत आयकलो. फाटल्या एलिसांवानी वतली म्हणून थारावन लेगीत भिवनूच धाडस जालेंना आनी सरली फाटीं. तुमचे फाटल्यान मागीर वतली अशें तुमकां सांगिल्ले खरें, पूण गेली ना हांव.

बाबा : अशें! आतां हे फावट वचून पळय. मतदान करप खूब सोपें.

गाडयो बा घेवन येतले खंय लोकांक व्हरपाक, अशें आयकलां हांवें. तुजें मत कितलें वालोराचें तें जाणा मगे तूं? एका मतान लेगीत एक उमेदवार जिकूंक शकता.

आई : आवय! बरो ऽऽ दोतोर सो उलयता मगा. हें खंय शिकले तुमी?

(दारार खट्खट् आवाज)

बाबा : आमगेर आनी कोण आयलो? (उमेदवार (१) भितर येता.) आगे वळखता तूं हांकां?

आई : तुमी वळखना तांकां हांव कशीं वळखतलीं?

उमेदवार(१) : तुमी म्हाका वळखुचीं नात. हांव तुमचो उमेदवार. एलिसांवाक उबो रावलां. तुमच्यो गरजो विधानसभेंत मांडूंक.

बाबा : पूण आमी तुका वळखनात. खंयचे तुमी?

उमेदवार(१) : हांव तुमच्याच गांवचो (अडखळून) हय, तुमच्याच गांवचो.

आई : कितें ह्या गांवचो? आमी कसो पळेलोना तर तुका? भायर भोंवना तर तूं?

उमेदवार(१) : (नर्वस जावन) ना. ना. तुमी म्हाका पळेलो नासतलो. हांव ह्या गांवचो खरो, पूण वास्को रावतां. बरें तें आसूं. म्हाका तुमच्या आदाराची गरज.

बाबा : हांव मानायपणांचे काम करतां, म्हण्टकीर, आमची सगल्यांकूच गरज. कसलें काम आशिल्लें? शेत कसपाचें जाल्यार म्हजेकडेन जोताची जोडी ना.

आई : (दुख्खी जावन) हय बाबा. कसले धश्टपुश्ट बैल आशिल्ले जाणा? एकटो पांयलाग जावन गेलो आनी दुसऱ्याक एका ट्रकान टक्कर दिवन, तकली आपटून तोय गेलो. खूब लुकसाण जालें आमकां.

उमेदवार(१): म्हाका तुमच्या कामाची गरज ना.

आई : अशें? मागीर कसली गरज पडली, आमच्या गरिबांची?

उमेदवार(१): आयकात. हांव एलिसावांक उबो रावलां, तुमचो उमेदवार कसो. म्हणटकीर तुमचें मत म्हाका दियात हें सांगूक आयलां हांव. म्हजी निशाणी बोट! आनी ह्या बोटाचेरूच तुमचो शिक्को पडूंक जाय.

आई : (हांसून) हें आनी कसलें विचित्रपण? तुज्या बोटार शिक्को मारप?

उमेदवार(१): ना. ना. म्हज्या बोटार न्हय. मशीनाचेर ज्या जाग्यार बोट निशाणी आसतली, ताचे मुखार आशिल्लो बट्टन दामपाचो. एलिसांव केन्ना तें जाणात न्हय तुमी?

आई : ना. केन्ना?

उमेदवार(१) : ह्या म्हयन्याचे २६ तारकेर

बाबा : २६ तारकेर? आगे काकाले चलयेच्या नातीचें लग्न न्हय गे आमोण्या? आमी कशीं पावतलीं, मतदानाक?

आई : आरे, हय मगा. म्हाका यादूच ना. पयलेंच लग्न न्हय तें, नातीचें? वजें पावोंवक नाका? आमकां हांची एलिसांवां कित्याक लागतात? तीं येतलीं आनी वतलीं. हें लग्न कितें परत जातलें?

उमेदवार(१) : तुमकां लग्नाक वचपाचीं कोण आडायता? मतदान सकाळीं सात वरांचेर सुरू जाता तें सांजचें पांच मेरेन चलता. तुमकां फावता त्या वेळार वचून तुमचें मतदान करात. मत दिवप ही एक लागणूक आमची. तुमचीं मतां एकदम मोलाचीं. ओगीच ही संद होगडायनाकात. हांव निवडून येतकीर, तुमचीं सगलीं कामां करतलों. तुमच्या दारांनी लायटी घालतलों. तुमच्या वाड्यार नळ घालतलों. कोयराच्यो पेटयो जाग्या जाग्यार उपलब्द करतलों. तुमच्या भुरग्यांक नोकऱ्यो दितलों. आनी हाकाच लागून तुमी

म्हाका निवडून हाडूंक जाय. हे आमदार, फटकिरे. इतलो काळ तांणी सरकार चलयलें, पूण गरीब जनतेखातीर कांयच करूंक ना. हांव तुमचे खातीर झट्टलों. तुमका वयर काडटलों. तुमच्या शेता भाटांचो विकास जावंक सोयी उपलब्ध करतलों. शेणांतलो किडो, शेणांत उरूंक दिंवचो ना. म्हाका एक संद दिवन पळयात आनी सव्वीस तारकेर, तुमचीं मतां म्हाका दिवंक विसरनाकात. बरें तर निरोप दियात. येतां हांव.

बाबा : बरें बाबा, तूं भियेवंनाका. आमी तुकाच मत दितलीं. पूण निवडून येतकीर मांत आमका विसरशी आं?

उमेदवार(१) : ना. ना... ते खातीर तुमी भियेवंनाकात. (वता. विठ्ठल येता.)

विठ्ठल : बाबा, कोण तो, आयिल्लो तो?

(आई सात्र आनीं खोंटलो घेवन भायर वता.)

बाबा : विठ्ठला, हांगासरलोच खंय. बरो पूण आं. वेंचणूक लागीं पावल्या न्हय? तो आमचो उमेदवार खंय. आपूण निवडून आयल्यार, तुका सिर्वीस दितलो खंय. आनी जायतें बरें करतलो, अशें आश्वासन दिलां.

विठ्ठल : बाबा, सगले एकेच माळेचे मणी - फटींग. तुमी तांचें आयकून मानून घेतल्यार पिशीं जातलीं पिशीं. तशेंच सांगतात ते सगले. हे पापी बरे जाल्ले जाल्यार, तुजो व्हडलो पूत, चार क्लासी शिकतलो आशिल्लो, रस्त्या कामाक वचचो नाशिल्लो. आंगठो छापा बदला सय करता आशिल्लो. शिकपाची ताची आवड मरून वचची नाशिल्ली.

बाबा : आमचीय तांक खंय आशिल्ली, ताका पयस, शाळेंत धाडूंक. तो जोडटा म्हणून, तुका शिकोंवक मेळ्ळें आनी आतां तूं शिकिल्लो म्हण्टकीर तुका बरी नोकरी दितलो तो.

विठ्ठल : बाबा, तुमी अनाडी ते अनाडीच उरतले. असल्या मनशांचेर रोखडोच विश्वास दवरूंक फावना. आमी शिकतात म्हणून आमकां हांची चलाकी वळखूंक येता. मेंढऱ्या कातींतले कोले ते. वेंचणुको जाय मेरेन तुमकां सलाम मारतलें, व्हडलो हात दाखयतले आनी निवडून येतकीर मागीर तोंड परतितले.

(विठ्ठल भितर वता, बापूय विडी ओडूंक बसता. दारार आवाज.)

बाबा : कोण? भितर यो.

(उमेदवार (२) दोन भुरग्यांक घेवन भितर येता.)

उमेदवार(२): बरे आसात मूं? वळखना म्हाका? हांव तुमच्या गांवचो आमदार. एलिसांवाक तुमचो प्रतिनिधी म्हणून परत एकदां उबो रावलां हांव. (एकटो भुरगो तीन एलीसांवाची कार्डां दिता.)

बाबा : आरे, आतांच एकटो येवन गेला. आनी तूंय तेंच सांगता. तो म्हणटा उमेदवार. तूं म्हणटा आमदार. आगे आयकता, हांगा यो (आई येता.) हो पळय, आनीक एकटो आयला.

आई : कोण गा?

बाबा : आमदार खंय.

आई : कितें? येदोळ आयिल्लो तो उमेदवार, आनी हो आमदार. तांचेमदीं फरक कितें?

उमेदवार(२): म्हणजे, हांव फाटल्या एलिसांवात निवडून आयिल्लों. परत एकदां तुमचो उमेदवार कसो उबो रावलां. सद्याक हांव तुमचो आमदार.

आई : एलिसांवांक कितले जाण उबे रावतात तर? आनी कशें आमी मत दिवपाचें? घुस्पागोंदळ सो मरे.

उमेदवार(२): आगे, एलिसांवां म्हळ्यारूच तशीं. खूब जाण उबे रावतात. जण एक पार्टी आपलो उमेदवार दवरता. एकटो निवडून येता. जण एकलो उमेदवार आप आपली निशाणीं दवरता. तुमी तुमचें मत चिंतून दिवंक जाय. हें पळयात, फाटले फावट तुमी म्हाका निवडून हाडला. तुमचे उदरगतीखातीर हांव वावुरलां. तुमचे खातीर हांवे खूब काम केलां. रस्त्यांचेर लायटी घाल्यात. आनीक एक फावट म्हाका निवडून हाडात. उरिल्लीं कामाय करून उडोवया. ही संधी तुमी म्हाका दिवचीच पडटली.

आई : अशी कितें दादागिरी शी!

बाबा : मदींच उलोवंक नाका गे. बरें बाब उलय फुडें.

उमेदवार(२): तुमच्या भुरग्यांक खेळपाक एक बरें मैदान तयार करूंक जाय. बऱ्यो बऱ्यो सवलती तुमच्या वाठाराक मेळोवन दिवंक जाय. गांवचे सुधारप करूंक जाय. हांव गरीब लोकांक चड मानतां, कित्याक होच लोक आमकां निवडून हाडटा. ह्याच लोकाक उदरगतीची चड गरज. हांवे केल्ल्या फाटल्या वावराचेर नदर मारात आनी दियात तुमचें मोलादीक मत म्हाकाच. हांवूच तुमचो खरो उमेदवार! म्हजी निशाणी - घोडो! म्हणटकीर सव्वीस तारकेर तुमचें मत फक्त घोड्याकूच दियात.

आई : निशाणी मात अपुर्बायेची हां. घोडो. घोडो बरो फास्ट धांवता न्ही? तुमी जें भाशण केलें न्हय, तेंय त्याच वेगाचें.

बाबा : फाटले फावट, एलिसांवांक घोड्याचीच निशाणी घेवन बशिल्लो आनी असोच उलयतालो. आतां वळखलों! हीं सगलीं कामां निवडून येतकीर, कित्याक केलीं ना तर तुवें? ते फावटी आमगेर येवन, ही खोंप चिऱ्यांनी बांदतां म्हणूंकना तुवें? (उमेदवार(२) अजापून ना - ना तकली हालयत.) हेंच तें चिऱ्यांचें घर? आनी हे फावटूय तींच

पोर्की आश्वासनां घेवन आयला? पयलींची कामां अर्दकुटीं कित्याक दवरलीं? हे फावट आमचीं मतां विकतीं घेवपाक कसलें तोंड घेवन आमच्या दारांत आयला तूं? तुवें केल्ल्या वावराचेर नदर मारात म्हण्टा आनी वयल्यान? सगलो लोक तुजे वागणुकेचेर बेजारला. गांवचो आमदार, पूण गावांत रावना. केन्नाय गेल्यार मेळना. कोणाकूच लागीं धरिना. काम जायसर राम राम! आमचो आमदार, आमचो राखणदार म्हणून तुजें तोंड ह्या पांच वर्सांत आमी पळोवंक ना. आनी कशे आमी वळखतले तुका? मतां मागूंक आयले. मेंढरे कशे, आनी निवडून येतकीर छाती फुलोवन चलूंक लागले गरीबांक माडोवन. (मोन्यानी उलयत रावता.)

आई : (ताचेकडेन पळयनासतना, लोकांक म्हणटा.) बरो शाणो जाला हो आमगेलो. खंय शिकलो ही जाणवाय? बरें जालें अशेंच दिवंक जाय हांकां.

बा़बा : हें पळयात. एक लक्षांत दवर. हे फावटी आमचीं मतां तुका नाच. आमच्या सगल्या लोकांक हांव सांगतलों, कितें सांगूक जाय तें. परत तुजें हें खुमणे आमकां दाखयनाका.

उमेदवार(२): (रागान) पळय पळय. बरो वळखना तूं म्हाका. तुमची जातूच तशी. कितलें केलें आनी कितलेंय दिलें जाल्यार तितलेंच. निवडून येवं दी. दाखयता तुका. चिऱ्यांचें घर जाय खंय. हीं खोंपटीय ना करपाची ताकत आसा म्हाका. म्हजेकडेन दुडू आसात आनी पावर आसा. तुज्या असल्या मताची म्हाका व्हडली गरज ना. म्हाका निवडून हाडपाक म्हजे मनीस आसात. हें पळय, हांवें पयशे हाडिल्ले, दिवंक. व्हडल्या नेटान सांगता मत दिवचोना म्हणून, आतां खा शेण. (लोकांक) हो पयलो सांपडलो म्हाका ना म्हणपी. मत दिना तर नाका दिवंक, तोंडार सांगता. हाच्या एका मतान व्हडलें अंतर जावपाचें ना.



बाबा : पुरो, पुरो. म्हज्या घरांत तुजे पांय आसात हें विसरूंक नाका. मतांची भीक मागपाक हांव तुज्या दारांत येवंक ना. आमचीं गरीबांचीं मतां तुज्यान पयशांनी विकतीं घेवंक जावंचीं ना. आमकां कोसींयेस आसा. तुजेबशेन आमी तें विकूंक ना.

उमेदवार(२): पळयतलों हांव, तुजें कोसींयेस. तूं कसो वयर सरता तें पळोवया? हांव निवडून आयलोच म्हणून समज. शेणांतलो किडो, शेणांतच उरतलो. म्हाका बेइज्जत केल्ल्याचें पाप तूं फेडटलो. (वता. विठ्ठल येता.)

आई : आगा, सामकेच मूं तुमी? काय बरे पयशे व्हगडायले. म्हज्या हाताक खाज येताली ते घेवंक. दोन बैल विकते

घेवंक येताले. येद्या व्हडल्या मनशांकडेन म्हणून अशें उलोवप? आतां आमची दुर्दशा करून सोडटलो तो. हे सायबीणी, तूंच निवार गे हें आमचेवयलें विघ्न!

विठ्ठल : आई, बाबान जें कितें केलां, तें सारकें. तूं भियेवं नाका. असले काळ्या धंद्यांचे आनी बेईमानाचे पयशे आमकां नाका. आमकां जाय एक बरो उमेदवार. आमचीं कामां करपी, आमचें बरें चिंतपी, समाजाखातीर झटपी आनी न्हय असले गीध. आपलींच बोल्सां भरून, आपलेंच चिंतपी. पयशे दिवन मतां विकतीं घेवपाक, हो कितें पसरो गे? केन्नाय ताचे कडेन, कसलेंय काम घेवन गेल्यार होच आमकां म्हणटलो (नक्कल करून) "आरे, तुमचीं मतां, हांवें पयशे दिवन विकतीं घेतिल्लीं. तुमचीं कामा करूंक न्हय, तर म्हजें कदेल सांबाळूंक."

आई : आरे, अजागळा, बापायच्याय फुडें गेलो मरे तूं. जाणवायो सांगता? व्हडले विद्वान आयल्यात तुमी! धड जेवंक खावंक ना. देवान दिल्लें काय बरें, तुमी देंवचारानी नाडलें. काय बरे पयशे मेळपाचे!

विठ्ठल : आई, तुका समजुपाचें ना तें राजकारण.

आई : हय. हय. शिकला न्ही तूं? हीं व्हड-व्हड उतरां उलोवन म्हाका घुस्पायनाका. आनी आयकून घेयात. हांगा आतां आनीक दुसरे आयले जाल्यार तुमी देड शाणे जाप काडचेनात आं. कितें उलोवंक जाय तें हांव उलयतलीं. समजूंक लागलां म्हाका मात-मात. पयशे दिल्यार हांव घेतलीं.

विठ्ठल : आई, येतां हांव. मातसो लायब्ररींत वचून येतां.

बाबा : बरी उडटा मगे पिसोळें शी. पयशे जाय तुका ते हरामाचे?

आई : ते पयशे घेतिल्ले जाल्यार बरें जावपाचें. तकली जाग्यार

ना तुमची. धोंपरांत आसा शी दिसता.

बाबा : आगे, चड जालां तुजें. म्हाका असल्या उतरांनी उलयता? बायलांची जातूच तशी तुमची. पयशे म्हणटांच, मेल्ली जितीं जातात तुमी. सुबेज उलोवंक नाका. मालक्रियाद?

आई : (लोकांक) राग आयलो हांकां. आमची रांदची कुड आमकां बरी.

(काळोख)

## देखाब दुसरो

(विठ्ठल उमेदवार (३) हाका घेवन येता. आई बसून सुतली विस्कळ करता. बाबा भितरल्यान भेंडाक तुवालो बांदीत येता.)

विठ्ठल : बाबा, आई. हो आमचो उमेदवार. हो आमचो मनीस. काल सांगिल्लें म्हाका तांणी, आमगेर येतलो म्हणून.

(उमेदवार (३) नमस्कार करता)

आई : व्हडली लायन लागली मगां, उमेदवारांची. काल मेरेन, आमगेर मोठ्या मनशांची सावळी पडलीना. आनी अकस्मात हें भिरें खंयचें? सगले एकूच कातीचे ते.

उमेदवार(३) : हांव हेर उमेदवारांसारको न्हय. म्हाका तुमच्या पुतान सांगलां, दुसरेय उमेदवार तुमगेर येंवन गेल्यात म्हणून. हांव पयलेच फावट वेंचणूक लडोवंक फुडें सरलां. गांवच्या भुरग्यांनी म्हाका फुडें काडला. तुमच्या अडचणींची जाणविकाय आसा म्हाका. तुमच्या कश्टांचो अणभव हांव घेवंक शकतां. ह्या चालू आमदारांनी आमकांय फटयले. आनी म्हणूनच गांवच्या भुरग्यांनी केल्लो आग्रो हांवे मान्य केलो आनी फुडें सरलों. जें काम, फाटल्या पांच वर्सांनी आमच्या आमदारान करूंक ना, तें हांव, तुमच्या आदारान आनी सहकारान करूंक सोदतां. आपली बोल्सां फुलोवन

ते गिरेस्त जाले, तरूय तांचीं पोटां भरनात. आनीक पांच वर्सां तांकां जाय.

आई : तें खरें तुजें. पळोवया तरी तूं आमकां कितलें बरें करतलो तो. सगले तुमी तसलेच. आयज तूं तांकां बोटां दाखयता. फाल्यां जर तूं निवडून आयलो, तर तूं बोल्सां फुलोवंक लागतलो. तेन्ना, आमी तोंडात बोटां घालून तमाशा पळोवपाचो.

बाबा : ओगी राव गे ती. हें उलोवप सोबना तुका.

आई : हय? तुमकां सोबता न्ही? येदोळ त्या आमदाराक बरे तासताले मूं?

बाबा : तासपाचोच ताका. हाका आमचो विठ्ठल वळखता. ताका लोकांनी फुडें काडला. बेश्टोच न्ही. बरोच आसतलो तो.

उमेदवार(३) : तिका अशें उलोंवकूय म्हणून कारण आसा. फाटल्या वर्सांनी कांयच उदरगत जाल्ली दिसना. आज तरी हांव जाणा की हांव तांचे बशेन वागचोंना. फुडें हांव कितें जातलों आनी म्हजी चाल कशी जातली हें हांव नकळो. एक गजाल मात खरी. म्हाका निवडून हाडटल्यांक हांव कसोच विसरचोना. म्हाकाच मत दियात, अशें हांव सांगीना. तुमी चिंतून पळयात. पयशे दिवन तुमचीं मतां विकतीं घेवंक म्हज्यान घडचेंना. पूण आश्वासन दिवन, तीं मेळोवंक येता. म्हजी निशाणी 'झाड'.

आई : बरी मरे निशाणी तुजी! ही निशाणी सी सुचली तुका.

उमेदवार(३) : (हांसून) झाड पळय कशें, दुसऱ्यांक फळां आनी अन्न दिवन मनशाक पोसता, तशेंच हांव करतलों. तुमचे खातीर वावुरतलों तुमचे सेवेक सदांच तयार रावतलों.

बाबा : बाबा, बरें उलयलो तूं. ना जाल्यार, पयलीं येवन गेल्यात ते, "म्हाकाच मत दी, हांवे अशें केलां, हांव अशें करतलों" म्हणून सांगून गेल्यात. जांचें तोंड वाजता, तांचे हात

चलनात. बाबा, तूं चिंता करूं नाका. आमी तुजे बरोबर आसात. देव पळोवन घेतलो उरलां तें. पूण एक मात. एलिसांव जातकीर, आमकां मात विसरशी आं?

उमेदवार(३) : ना. ना. खंयच्याय वेळार तुमी म्हज्या दारार मारात. म्हज्यान जाता तो आदार हांव तुमकां दितलों. म्हजें अंतरमन अजून मेरेन म्हज्यांत जागृत आसा.

आई : तें सगलें बरें आसा. तूं सांगता पळय तें निवडून येतकीर करतलो. आतां पयलीं आमकां कितेंय समज. तो आमदार बाब बरो पयशे दितालो. हांणी घेवंक ना.

(बाबा तिका भितर वच म्हणून सिनाल करता. उमेदवार आडायता.)

उमेदवार(३) : हें पळय! ब्लॅकान पयशे एकठांय हांवें करूंक नात. म्हजो कांय धंदो चलना, पयशे दिवन तुमची मतां मेळोवंक. पूण हय. म्हजेकडेन खूप इत्सा आसा, उमेद आसा तुमची सेवा करूंक, गांवचें भलें करूंक. हांव निवडून येना जाल्यार उपकारता, पूण असलीं नीच कामां हांव करचोना. निवडून येतलों तर म्हज्या गुणांचेर, पयशांचेर न्हय. तुका जर पयशांची अडचण आसा, हांव तुका आदार दितां, (बोल्सांतले पयशे काडटा.) पूण तुमकां निखालस दिसूंक फावना की हांव पयशे वांट्टां तीं तुमचीं मतां घेवंक म्हूण.

बाबा : बाबा, पयशे बोल्सांत घाल. ही म्हजी घरकान्न सामकीच निर्ल्लजय जाल्या. तिचेर तूं लक्ष दिवंनाका. मतां खातीर तूं निश्चींत राव. आमचीं मतां तुकाच. आमच्या वाड्यार सांगूंक म्हजेर पावलें. तूंय सगल्यांक मेळ.

उमेदवार(३) : बरें तर, वतां हांव. देव बरें करूं.

बाबा : बरें बाबा, आमचीं बरीं मागणीं तुका.

(विठ्ठल उमेदवाराक घेवन वता. आवय रागान सकयल

बसता. बापूय समजावन तिका आपयता.)

बाबा : आगे, उठ. रागार कित्याक जाली? हो मनीस बरो सो दिसता. तुका कशें दिसता? आमचीं मतां हाकाच दिवया न्ही? तशें, म्हज्यान तुका फोर्सार करूंक जायना गे. जण एकल्यान आपणाक जाय ताका दिवपाचें मत. हें पळय. हो नवो आसा. बरी उमेद आसा ताका. नायजाल्यार नव्याक उमेद चडूच न्ही? निवडून तरी हाडया ताका. मागीर पळोंवया, व्हडें कशें ताणटा तो. बेकारी, उदक, रस्ते हांची उदरगत कशी करता तें पळोवंया. मागीर दिवंया न्हय आमचें मत ताका?

आई : कसो फुसलायता पळयात म्हाका? तुमच्या उतरा भायर केन्ना गेल्या हांव? बरें, तुमी सांगतात तशेंच करूंया. कल्याण, यश्वदें, ललिता सगल्यांक सांगूं हांव?

बाबा : सांग तर. तशें केल्यारूच सगल्यांक समजिकाय मेळटली. आनी पळय, हाणेंय जर हेरां बशेनूच केलें, तर मागीर दुसरे फावट दारांत आयल्यार घालचो ताचेर शेणाचो शितड.

आई : गांवचें सुधारप जावंक जाय. मागीर तो कोणूय येवं. पूण ह्या नव्याक येवन पळोंव दी.

बाबा : आतां कशें दिसलें. शाणी जाली ती. चल जेवंया आतां.

(दोगांय भितर वतात.)

(काळोख)

## देखाव तिसरो

(माचयेर काळोख : फाटभुंयेर - एलिसांवाचो रिजल्ट. बोवाळ - आयलो रे आयलो. आमचो उमेदवार आयलो. झाडाचो विजय जालो. शबय शबय. आयलो आयलो आमचो बाब आयलो. झाडान मेळयलें जैत. शबय, शबय.

माचयेर उजवाड. विठ्ठलाचें घर. बापूय हात पुशीत येता. आवाज आयकता. ''आयलो रे आयलो. झाडान जैत मेळयलें.'')

बाबा : आगे, बोवाळ आयकला? कितें म्हणटात तें आकयलां?

(आवय येता, आवाज घेता.)

आई : हय - हय. झाड जिकलें न्ही? म्हण्टकीर आमी मत दिल्लो तोच आयलो.

बाबा : हांवे सांगिल्लें खरें जालें ना? आतां पळोवया तरी कितें करता तो. हाणेंय जर आमकां किकोंत केल्यार, दुसरे फावट, मतदानाक वचपच ना.

(विठ्ठल उमेदवार (३)क भितर घेवन येता. ताच्या गळ्यांत फुलां हार. आवय-बापूय हांसत ताका पळयतात. उमेदवार तांका हात जोडटा. बरोबर आनी थोडे भुरगे.)

उमेदवार(३) : तुमचे हांव उपकार मानूंक आयलां. म्हाका निवडून हाडिल्ले खातीर हांव तुमचो उपकारी. तुमचे सेवेक सदांच तयार आसतलों. खंयचेय तुमचे गरजेंत, म्हाका येवन मेळचें. म्हज्यान जाता तो आदार तुमकां दितलों. परत एकदां देव बरें करूं. (नमस्कार करून सगले वतात.)

बापूय : पळयलें मगे? 'काम जालें वैज मेलो' अशें केलें ना ताणें. निवडून हाडिल्ल्यांक देव बरें करूं म्हणपाक आयलो तो. देवान ताका बरी बुद्द आनी बरी भलायकी दिवंची, गांवात बरेपण हाडपाक.

आई : (फकाणांनी) आनी बऱ्यो बऱ्यो माण्ण्यो पयशे करपाक. (दोगांय हांसतात, बापूय फकाणांनी दोळे मोठे करून, मारूंक वता.)

(सोंपता - पड्डो पडटा.)

# आपलेंय थोडें चिंतचें पापया!

<u>पात्रां</u>

भागीरथी

शंभू

रघुवीर

जय

काशी (भितरल्यान फक्त आवाज)



## देखाव पयलो

(भागीरथी एके प्लास्टीक पोतयेंत दुदा पोतयो घेवन ताकतिकेन वता.)

काशी : (भितरल्यान काशीचो आवाज) ये भागीरथी वयनी? सामकी धांवताशी मगे? पळय तरी हे वटेन.

भागीरथी : (थांबता) तूं ह्या टायमार बल्कावांत शी?

काशी : (भितरल्यान) सुकत घातिल्लो तुवालो व्हरपाक आयिल्लें तेन्नाच तूं दिसली.

भागीरथी : आं म्हणूनच. ना जाल्यार हो टायम भायर दिसपाचो?

काशी : (भितरल्यान) खबर घेवंक सुद्दां वेळ ना दिसता? यो च्या घेवन वच. हे तुमगेले आतां रिटायर्ड मगे. आतां कसली ताकीत?

भागीरथी : (कपलार हात मारता) आगो काशी, ते रिटायर्ड जाले म्हणून म्हजी धांवपळ सोंपता? पूत सिर्विसेक वतात. तांचे जेवणां डबे तयार करूंक जाय. च्याक रावतले ते.

काशी : (भितरल्यान) दूद हाडपाक हांकां कित्याक सांगीना?

भागीरथी : तांची सकाळची पासय चुकचीना? आनीक कितेंय चुकयत. पूण पासय न्ही. कितले फावटी सांगलें पासयेक सावन येतना दूद हाड. पूण तांची पासय ती, लांबचे लांब - दोंगरार. दूद घेवन पावतासर म्हजे भुरगे फुटीच च्या घेवन ऑफीसांत पावतले.

काशी : (भितरल्यान) तुकाय म्हणून पासय जाली न्हय? अशे पांय सुटल्यार बरे. व्यायाम करूंक आमकां म्हण खंय टायम? घरांत बसूनच वजन वाडटा आनी मागीर सुरू लच्चाणां - प्रेसांव, दियाबेत - आनी गोबोर आनी माती. बरें त्यो खबरी

आसूं. यो. च्या तयार आसा. घोंट मारून वच.

भागीरथी : ना गो चल्लें हांव. देव बरें करू. येतलें केन्नाय.

काशी : (भितरल्यान) तुजें तें केन्नाय येवचेंच ना. खूप तेंप जालो बसलींच ना खबरांक.

भागीरथी : हय गो. बरें, येतां हांव ह्या आयतराक. (वता.)

(काळोख)

## देखाव दुसरो

(माचयेर उजवाड. भागीरथीचें घर भागीरथी भितर सरून, दूद घेवन रांदचे कुडींत वता. जय भायर येता.)

जय : आईऽ ये आई (गोड आवाजान) आऽऽई! चल च्या दी बेगीन. टायम जालो.

भागीरथी : (भितरल्यान) आरे, साडे आठ सुद्दां जावंक ना मरे? तूं सवाय णवांक भायर सरता न्हय? भाई आनी तूं बरोबरच वतात न्हय रे?

जय : आई पूण आयंज म्हाका मातशें काम आसा. (लोकांक पळोवन दोळो मोडटा आनी मुमुरखो हांसता.) हांव बेगीन वतां. भाई वतलो एकटोच. सदांच्याच टायमार.

(आपली बॅग तयार करता)

भागीरथी : (भायर येता) च्या करूंक दवरल्या. चपाती करून गेल्ली हांव. खंय आसात तुमचे बाबा महाराज? रिटायर्ड जाले तरी मातलेगीत कामांत हात बोट लायनात.

जय : कित्याक तांचेर तिडकता गे? सुशेगाद आसूं दी तांकां.

भागीरथी : आं... सुशेगाद! म्हणजे? आमी बायलांनी रेफोर्म केन्ना

घेवचें? मरसर झरचें? व्हडलो आयला, बापायचो आदवोगाद! फाल्यां बायल हाडटकीर, अशीच खा झरोवन. आरे, घोवा बायलांनी एकामेकांक आदार दिवनच संसार चलोंवचो पडटा.

जय : आमची आई, 'मॅरेज कावन्सिलर' फुकट सर्वीस. चल, गे च्या दी. डबो तयार आसा? ना जाल्यार जेवतां कॅन्टीनांत.

भागीरथी : आवय! असलें कसलें काम पडलें तर तुका? कॅन्टीनांत केन्नाच जेवंक दिलां तुमकां? जोरान फडफडटां जाल्यार लेगीत कितेंय तरी करून डबो तयार केलाच. राव. हाडटां च्या.

(जय शिळोणी घालून हिन्दी पद गुणगुणटा.)

भागीरथी : (च्याचें कप घेवन भायर येता.) घे. आरे चपाती घेवन येतां राव.

जय : नाका-नाका. च्याच पुरो. आयज वेळ कित्याक जालो गे?

भागीरथी : आरे, वाटेर त्या काशीन थांबयलें. रांव डबो तरी घेवन येतां. तयार दवरला.

(भितर वचून डबो घेवन येता. जय वता आनी बापूय येता.)

भागीरथी : आयले? येयात. च्या घेयात. जाली पासय? तुमचें बरें आपलें. उठले, तोंड धुलें, मुस्तायकी घाली, दांडो घेतलो आनी गेले पासयेक. इतल्यार सोंपता? हं...? च्या घेवन परत चल्ले पेपर हाडूंक. आनी तो पेपर घरा वाचपाचो आसना. तो फक्त जार्दिनांत! बरो बाबा दादल्यांचो जल्म! ना जाल्यार आमकां पळयात. रांदचे कुडी भायर संवसार आसा व्हय आमकां?

शंभू : आगे कित्याक आड्डता? दादल्यांक कित्याक खेपता? रांदचीच कूड तुमकां? सालांत बसून टी.व्ही. पळेनात

तुमी? सगलीं सिरियली पळेतात मगे तुमी.

भागीरथी : सालांत टी.व्ही.? आमचो टी.व्ही. चल्यांचे न्हिदचे कुडींत आसा न्ही? हांव खंय पळयतां टी.व्ही.? तुमकां सांगिल्लें आनीक एक घेवया म्हणून.

शंभू : वा! वा! म्हाका पोशार केलो. आनीक बळगें ना म्हाका टी.व्ही. घेवंक. आनी एक आयक. जशी रांदची कूड तुमकां बायलांक तशेंच दादल्यांक भायलें जग. तुमची ही रांदची कुडींतली चूल पेटोवंक भायर वचून, घाम वारोवंक नाका आमी? हें कशें विसरता तूं?

भागीरथी : हय व्हय! घाम गळयला तुमी! व्हडले मिरयत भोंवताले, आपूण एम्प्रेगाद म्हणून. फॅना पोंदा बसून काडल्यात दीस आनी भायर भोंवतना, ऑफिसाची गाडी. घाम गळोवपाचो प्रसंगूच येवंक ना.

शंभू : कशी पळय उलयता ती! हांव सर्विस करतालों तेन्ना, असलें केन्नाच उलयली ना तूं. आनी आयज म्हजे हात मोटवे आनी तुजी जीब लांब. धार चडल्या तिका.

भागीरथी : पुरो, पुरो! म्हाका वेळ ना तुमचेकडेन बडबडूंक. तुमचेबशेन हांवें रेफोर्म खंय घेतला? एकटो गेलो सर्विसेक. आतां दुसरो भायर सरचो जाला. ताची तयारी करूंक जाय. केन्ना काय सुनो हाडटा अशें जालां. मागीर तांच्या ताब्यांत दिवन हांव मेकळी जातां. (सुस्कारता आनी भितर वता.)

शंभू : आवय! सुनो करतल्यो तूं करता तें? (लोकांक) आतांची भुरगीं तीं! घरांत रावतलीं? वतलीं सर्विसेक. आनी मागीर हिकाच पडटली डबल ड्यूटी. सुनांचेय डबे भरचे पडटले. नातरांक सांबाळचीं पडटलीं. हाचो अदमास ना तिका. बरी फुल्ल्या सुनो हाडपाक. रंगयाळी सपनां रंगय. (घडयाळीक पळेता.) आगे च्या जाली? घाल म्हाका बेगीन.

चल्लों हांव पेपर घेवंक. हांगा बसल्यार वाचपाक मेळचोना. हिचें बुलेटीन चालूच उरतलें. रिटायर्ड जावन हिचींच भाशणां आयकतां. काय बरे दीस काडले हांवें! कितलो रेस्पेद, मान! आतां म्हजी गत सुकिल्ल्या खांद्याभशेन जाल्या. (भितर वता)

(काळोख)

## देखाव तिसरो

(माचयेर उजवाड. जार्दीनाच्या बांकार बसून शंभू पेपर वाचता. रघुवीर ताका पळोवन लागीं येवन बसता. हातांत आशिल्ली कांद्या पोती सकयल दवरता. शंभू ताका पळोवन पेपर धांपता.)

शंभू : आरे, आयज ह्या वेळार जार्दीनांत सो? कामांक वचूंक ना? लिवेर काय कितें?

रघुवीर : हय रे. फुडल्या म्हयन्यांत रिटायर्ड जाता हांव. लीव सोंपयतां. बायलेन कांदे हाडपाक सांगिल्ले. नुस्तेंय व्हरपाक जाय. असो वतना तुमका पळयलो पेपर वाचता तो. म्हळें, तुमकांय जाप दिवन जातली. आनी नुस्तेकार येयसर गजाली करून टायम पास जातलो. मागीर नुस्तें घेवन वचप घरा.

शंभू : हय. तो विसेंत बरें गिरायक करता. धाकटो रिक्शा घेवन, बरें बरें जिन्नसवार नुस्तें हाडटा आनी दिताय सवाय. नाजाल्यार तीं तिळ्यार बसतात तांकां पळय. हात घालूंक दिनात पाट्यांत आनी प्रेस कितें?

रघुवीर : हय तर. दारांतूय नुस्तें घेवन येतात. पूण तांचें तें बारीक आयज आसा न्ही घरा, म्हणून म्हळें पळोंवया, कितें हाडटा तो नुस्तें. तुमचें आपलें बरें! सकाळचें उठप ना. रिटायर्ड न्हय तुमी? सुशेगाद सगलें.



शंभू : पयलीं रिटायर्ड जा आनी मागीर कळटलें तुका ती जीण कसली ती. घरांत पळय नाटकां जातात! आनीक दुसरीं नाटकां पळोवपाची उमेद आंगांत उरचीना.

रघुवीर : हें आनी कसलें अप्रूप सांगतात तुमी?

शंभू : केंसांत धवें मांडत आयलां तरी बुद्दीचें चून्न भरूंक ना भेज्यांत तुज्या! आरे बाबा, बोल्सांत दोन नाणीं घोळटात ते मेरेन सगलीं तुज्या फाटल्या-फुडल्यान नाचतलीं. आनी जेन्ना तुजे हात मोटवे जातले, तेन्ना मात तुवें नाचपाची पाळी येतली.

रघुवीर : कसलो अणभव मेळ्ळो तर तुमकां? अशे पोटतिडकेन उलयतात शे, आं? रिटायर्ड जातकीर लेगीत पयशे आसतलेच न्ही आमचेकडेन? पूण कितेंय तरी आसा. नाजाल्यार तुमी अशे उलोंवचे नाशिल्ले. (घडयाळाक पळोवन) नुस्तेकार येवपाचो टायम जावंक ना दिसता. सांग पळोवया विस्कटावन कित्याक तुमी अशे उलयले ते.

शंभू : (सुस्कारो सोडून - उबो रावता) काय बरे दीस आशिल्ले

जाणा? आदमिनीस्त्रादोरा वांगडा कसो भोंवतालों जाणा मरे, फायली खांक्याक मारून? तेन्ना ही आमगेली म्हाका कशी तोखेताली जाणा? (नक्कल करून) हें पळयात, तें पळयात. आमी अशें करूंया - तशें करूंया - उदक हाडूं? सांजो करूं? च्या हाडूं? कितली म्हणून अपुर्बाय! सामकी गोड गोड उलयताली.

रघुवीर : आनी आतां कितें जालें तर? किरायतें घेता काय कितें तुमची घरकान्न?

शंभू : सारको उलयलो तूं रघुवीर. जीभूच कारातें जाल्या शी दिसता. आतां म्हाका जाणवायो सांगता. पूत व्हडले जाल्यात न्ही तिचे आतां? जोडटात ते.

रघुवीर : म्हणटकीर? पूत पगार तिच्या हातांत दितात तर?

शंभू : सोल्ल दितले तिच्या हातार! हांव म्हजो पुराय पगार तिचेच सुवादीन करतालों.

रघुवीर : आनी पूत कितें दितात तर तिका?

शंभू : दितात हजार, देड हजार, घर चलोवंक. तेंच व्हडलें तिका. हांव आतां मोडलेलो खुरीस जालां न्हय? ताका कोण रेस्पेद दितलो? मसणो?

रघुवीर : शंभूबाब, पुतांची अपुर्बाय आनी तोखणाय करता ती, तुमच्या दोळ्यांत वता दिसता? पूण एक सांगात, रिटायरमेंटावेळार पयशे मेळिल्ले ते कितें केले तर तुमी? तुमच्या नांवार बँकेंत दवरूंक ना तर?

शंभू : ना रे सभाग्या! तशें केल्लें जाल्यार म्हजी अशी गत जांवचीं नाशिल्ली.

रघुवीर : कितें? मागीर ती पुंजी कशी खर्चिली तर?

शंभू : बाबा रे, थंयच फसलों हांव. हिणें न्हय रे म्हाका नाडलो. हिच्या भुलवण्याक हांव इतलों भुल्लों, म्हाकाच खबर ना. हांवे ते पयशे कशे वांटले ते.

रघुवीर : खरेंच, तुमी तुमच्या नांवार कांयच दवरूंक ना?

शंभू : ना. पेन्शनाचेर दीस काडटां. ही म्हणपाक लागली. एकटीच धूव न्ही आमची? लग्नाक म्हणून तिच्या नांवार पन्नास हजार दवरूंया. हांवें हयकार दिलो.

रघुवीर : मागीर?

शंभू : मागीर, ही शाणी लालेवपाक लागली, ''म्हाका मोतयांच्या हाराची चड आवड! आनीक केन्ना करपाचो तो? घोव आसतनाच न्हय तो शिंरगार?'' म्हाकाय खरेंच दिसलें. हांवेंय म्हणून कसलीच वस्त करूंक ना तिका. बरें कर म्हळें. हिणें न्हय रे हार, कानांतली आनी कांकणां करूंक लायलीं शेटीक!

रघुवीर : जालें? सोंपले हाचेरूच?

शंभू : ना. खंय सोपता? बायलांची जात ती. मागीर म्हणपाक लागली, पूत म्हणून आमचेच न्ही? जोडूंक लागले जाल्यार कितें जालें? तांकांय कितेंय दिवंया. आनी तुमी जगता मेरेन पॅन्शन मेळटलेंच न्हय? तें पुरो आमकां म्हातारपणांत.

रघुवीर : मागीर उरिल्ले पुतांक दिले तर?

शंभू : हय. दिले रे थोडे. पूण बाकी कितले उरतले? प्रेसावांचें आसा म्हाका. गुळयो घेतां. आनीक बारीक बारीक खर्च ना? कोणाच्यो मुंजी - कोणाचीं लग्नां! दिवंक नाकात रे अहेर? खंयचे पयशे हाडपाचे? पेन्शनाचेर हो खर्च सुट्टा? अशें करून केन्ना बँकेतलो बॅलन्स देंवता तो कळना. आनी आतां पळय म्हाका, भोंवता कसो लटर फटर! म्हयन्याची

धा तारीख मेरेन बोल्स गरम! मागीर सुरू नरमी!

रघुवीर : (लोकांक) पळयलें? आतां तरी आमी शिटूक जावंक जाय. जोडटा आसतनाच बचत करूंक जाय. आनी रिटायरमेंटाचें कितें मेळटा तें सांबाळून दवरूंक जाय. बायलांच्या हातांत आपली शेंडी दिवप हाचेपरस व्हडलें पिशेपण ना. हांव म्हणिना भुरग्यांक दिवंचे न्ही. आमचें तें तांचेंच न्ही? आपूण मरतकच तें तांकां कशें वांटून वचचें, हाची दखल मात आमी घेवंक जाय.

शंभू : रघुवीर शाणो तूं. आतांच शिटूक जालो. म्हाका कोणेच मेल्ल्यान बुद्द दिली ना. तरी बरें, गवर्मेंट नोकरी आशिल्ली म्हणून. पेन्शनाचेर शीत कडी तरी सुट्टा. नाजाल्यार माणसूकी नाशिल्ली.

रघुवीर : शंभूबाब, तुमी जर थोडे पयशे घेवन एक पिपरमिटांचो आनी पानपट्टीचो गाडो घातिल्लो जाल्यार, तुजो दिसपट्टो खर्च सुटून तूं कामांत गुंतून उरता आशिल्लो. खरेंच पिशेपण केलें तुमी. तुमचे सारके आनीकूय खूब जाण आसतले. म्हजो मात वेळ बरो हां. रिटायर्ड जावंचे पयलींच शिटूक जालो. (लोकांक) तुमीय जायात. शंभूबाब, ही पळय रिक्शा येता शी दिसता. चल पळोंवया कितें नुस्तें हाडलां तें. (दोगूय उठून वतात.)

(सोंपता - पड्डो पडटा.)

शिक्षण : बी. कॉम्
फॅलो ऑफ इन्श्योरेन्स इन्स्टिट्यूट ऑफ इंडिया
वेवसाय : युनायटेड इंडिया इन्श्योरेन्स कंपनीच्या मडगांव मंडलीय कार्यालयांत वरिश्ट सहाय्यक

शाळेंत शिकतना लेखनाक सुरवात
"केपेचीं किर्णां" ह्या कोंकणी मासिकाच्या
संपादकीय मंडळाचे वांगडी म्हूण वावर केला
केपेंच्या गांवांत इगर्जेच्या वर्सुकी सुवाळ्यांत
नाटकुलीं सादर केल्यांत
सुनापरान्त दिसाळ्यांत भुरग्यांखातीर
साबार "काणुल्यो" बरयल्यात




cindy
publications
kepem goa